# जाग

वर्स २७ : आंक १० : मे २००१

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार
वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय
उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय
अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव
छापपी : प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय

## ह्या आंकांत




वर्सुकी पटी : रु. १०० /-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. ७५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-
चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपया अदीक जोडचे.

वेव्हाराचो नामो :
**जाग म्हयनाळें :**
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रू. ९/-


# नदर संपादप्याची

## वाटे आशीकुशीक

नवें कितेंय वाचतलों अशें येवजून पुस्तकांची आरमार उकती केली. मुखारूच **पथे ओ पथेर प्रान्ते** (= वाटेर आनी वाटे आशीकुशीक) पुस्तक दिश्टी पडलें. बंगाली भाशेंतलें, रवीन्द्रनाथांलें. उकतें केलें. मदल्याच एका पानाचेर नदर पडली -

'फूल झाडाचे ताळयेक जाता. तोच ताचो आधार आसता. पुणून मनीस ताका नांव दिता आनी आपणाल्या मनांत ताका एक सुवात करून दिता. आमच्या देशांत हजार तरांचीं फुलां जातात. तींय झाडांच्या ताळयांकूच जातात. पुणून सगळ्यांक मनीस वळखना. फुलां विशीं येदी उदासीनताय हेर खंयचेच कडेन पळोवंक मेळची ना. सगळ्या फुलांक नांवां आसात. पुणून आमी तीं नेणात. परमळाक लागून जाचें नांव जालां, ताकाच आमी वळखतात. देखून उदासीन मनीस ताचेर नदर घाली नासतना मुखार गेलो जाल्यारूय तें आपूण जावन ताचे मुखार येता आनी परमळान आपणाली वळख करून दिता. आमी हांकांच आमच्या बरपांत आमंत्रण करून आपयतात. हांतल्या कांय फुलांचीं नांवां हांव जाणां. पुणून हांव तांकां वळखतां अशें म्हणूं येना. वळख करून घेवपाचो यत्नूय केन्ना करूंक ना. कवितेचे नामावळींत जूय शेंवतें असलीं कांय नांवां भौन भौन आयिल्लीं पळेल्यांत. छंदांत तीं बसतात हें पळोवन खोश्शी जालां. म्हूण म्हजे कवितेंत तीं येवंक पावल्यांत. खूब जाणांक विचारले उपरांत एक दीस जूय म्हळ्यार चमेली म्हूण कळ्ळें. शेंवत्याची खूब जाणां कडेन चवकशी केली. अजून तें कोणूच म्हाका सांगूंक पावूंक ना. शान्तिनिकेतनांत एक झाड आसा. कोण कोण ताका पियाल म्हणटात. संस्कृत काव्यांत नांव जोडिल्लें पियाल तें हेंच काय दुसरें, कोणाक सारकें सांगूंक येवंक ना. न्हंयां विशीं मात आमी इतले उदासीन उरूंक नात. ल्हानांतले ल्हान न्हंयेक लेगीत आमी अपुर्बायेचें एक नांव दिलां - कपोताक्षी, मयूराक्षी, इच्छामती - आनी आमच्या काळजांत तिका सुवात करून दिल्या. न्हंयां कडेन आमचे कसले-न्हय-कसले वेव्हार चलतात. फुलांत पुजेचीं फुलां सोडीत जाल्यार हेर फुलां कडेन आमचो कसलोच संबंद येना. संबंद येता तो अल्पायुशी 'सीझनल फ्लावरां' कडेन. तांची अर्थअपुर्बाय करपाची जापसालदारकी माळ्यांची (फुलकारांची). फुलदाणयेंत तांणीं तीं सारकीं दवरपाचीं. हाकाच म्हणटात तामसीकपण - मटीरियलिझम्. गरजेचें न्हय ताचे भायल्या गजालीं विशिंचें चित्ताचें फातराळपण. नांव नाशिल्ल्या फुलांच्या ह्या देशांत कविंची कितें गत्त जाता जातली, अदमासूच केल्लो बरो. तांचे लिखणेक बावडेक फुलांच्या राज्यांत सामके अशीर पायणींतल्यान वचचें पडटा. सुकण्यां शेवण्यां संबंदानूय आमी इतलेच उदासीन. कावळो, कोगूळ, कीर, साळोरी असल्या चार स शेवण्यांक आमकां, उपाय नासून, आमच्या जिवितांत सुवात दिवची पडल्या. हांचे भायर कितलींशीं शेवणीं आमचे भोंवतणीं उडत आसतात. तांचीं नांवां आमकां खबर नात. आमच्या सगळ्या संकश्टांच्या मुळांत हीच उदासीनताय आसा. आमच्या देशांतल्या लोकां विशींय आमी इतलेच

उदासीन. परिक्षेंत पास जावपा खातीर आमी इतिहास शिकतात. हरशीं, इतिहासाचो आनी आमच्या जिविताचो कांय संबंद ना. आमचें देशप्रेमूय इतलेंच उखलापें. देशांतल्या लोकां विशिंच्या आपलेपणांतल्यान उदेल्लें न्हय. कितलो ल्हान आमचो संवसार! कितलें सुटलां आमचे नदरेंतल्यान !'

आं, म्हणटकूच, **पथे ओ पथेर प्रान्ते** ही दिसपटी तर रवीन्द्रनाथांली! दिसपटयांचो हांव मोगी. खंयच्याय व्हड बरप्याची गाजिल्ली एक नवलकथा, ताची आत्मकथा आनी ताची दिसपटी अशीं तीन पुस्तकां एकाच वांगडा हातातं पडलीं जाल्यार सगळ्यांत पयलीं हांव ताची दिसपटी वाचपाक घेवपी. मागीर, आत्मकथा, उपरांत नवलकथा. रवीन्द्रनाथांली दिसपटी म्हजे नदरेंतल्यान कशी सुटली काय देवा? जावं, म्हळें, 'बॅटर लेट दॅन नॅव्हर' ह्या न्यायान आतां वाचून काडुंया. आनी हांवें दुसरें मदलेंच एक पान काडून पळेलें.

म्हाका वाचूंक मेळ्ळें -

'म्हजे हांगासल्ले जिणेची म्हत्वाची खबर सांगची जाल्यार, हालिंसाराक हांव चित्रां काडपाक लागलां. इतलीं वर्सां सुरांच्या नादांत गुल्ल उरिल्लों. आतां रेगांच्या जाळांत घुसपलां. रेगांच्या (आनी रंगांच्या) जादून म्हाका चोंय दिकांतल्यान बांदून घेतला. न्हय त्या वेळार अवचीत आयिल्ले हे इश्टिणी कडली म्हजी ओड पळोवन कवितेन हो वाटारूच तुर्ताक सोडून दिला. आयुष्यभर कविता बरयत आयिल्लों म्हणपाचो उगडास लेगीत हालीं म्हाका जायना. रेगो केन्ना कसलें रूप घेतीत हें सांगूंक येना; पयलीं मातूय कळना. हेंच म्हजे हे ओडी फाटलें कारण म्हणूंक जाय. कवितेचें रूप मनांत हय-न्हयशें तरी आरंभा सावन तयार आसता. उपरांत म्हादेवाचे जटेंतल्यान गंगा गोमुखी वाटेन देंवता तशी काव्याची झर लिखणेच्या तोंकांतल्यान छंदां वाटयां व्हांवत रावता. चित्रांची प्रक्रिया उरफाटीच. रेगो कसलीं रुपां घेतल्यो, आरंभाक मातूय कळना. इल्ल्यो इल्ल्यो करून त्यो रुपां घेवपाक लागतात तेन्नाच तांचे कडेन लक्ष वता आनी मागीर तांकां समजून घेवपाचो मन यत्न करता. रुपांच्या ह्या सर्जना कडेन (निर्मणे कडेन) मन अजापान पळेता आनी ताका पिशें लागता. हांव चार चौगां आर्टिस्टां सारको आर्टिस्ट आशिल्लों जाल्यार अमकें काडटलों अशें आदीं थारावन पेन्सिल वा ब्रश घेवन बसतलों आशिल्लों आनी मनांत आशिल्लेंच कागदार वा कॅनवासार हाडटलों आशिल्लों. तातुंतूय आनन्द आसाच. पुणून मनांत नाशिल्लो संवसार जेन्ना मनाचो ताबो घेता तेन्ना वेगळेच तरेचो एक कैफ चडटा. हाचो परिणाम असो जाला की भायल्यो सगळ्यो लागणुको, जापसालदारक्यो दरवट्या मुखार येवन उब्यो रावतात, भायल्यानूच भितर पळेतात आनी आमकां हांगा सुवात ना अशें म्हणून उठून वतात. फाटल्या काळांत आशिल्लों तसो सगळ्या जापसालदारक्यां पसून मेकळो आसूंक जाय आशिल्लों. पद्मेचे तडीर बसून काळाचे 'भांगरा तारी' खातीर फकत चित्रांचेंच पीक लुंवन काडटलों आशिल्लों. तरी आसतना, कांय जापसालदारक्यो हे वटेन ते वटेन धुकलून चित्रां खातीर थोडी सुवात करून दितां. पुणून जीव धादोसभरीत जायना. मनाक पुराय मळब आपणाक मेळचेंशें दिसता. आनी म्हाकाय तें ताका मेळोवन दिवचें शें दिसता. पुणून ग्रहदशेक लागून तरांतरांचीं आडमेळीं येतात. संवसाराचें बरेंभलें करूंक जाय हें हांतलें सगळ्यांत व्हडलें आडमेळें...'

रवीन्द्रनाथांनी हांगा 'काळाचे भांगरा तारि'चो उल्लेख केला ताचो तांगेले **सोनार तरी** (The Golden Boat) कविते कडेन संबंद आसा. मनीस आपणाल्या जिविताच्या जुंव्यार बऱ्या वायट करण्यांचें शेत रोयता, तरांतरांचें पीक काडटा. अवचीत एक दीस मोड येता, जुंव्या भोंवतणच्या उदकाक हुंवार आयिल्ले वरी जाता आनी जुंवो बुडटा काय-सो जाता. पीक काडलां तें ना जातलें काय कितें, असो ताका भंय दिसपाक लागता. इतल्यांत ताका एक भांगरा तार दिश्टी पडटा. तो तारयाक उलो मारता, 'तारया मामा, हांवें काडलां तें पीक तुजे तारींत घेशीत व्हय? पलतडीं पावोवपाचें आशिल्लें.' तारयो तार हाडून तडीक तेंकयता आनी 'घाल हातूंत तुवें काडलां तितलेंय पीक' अशें म्हणटा. सगळें घालून जातकूच मनीस आपुणूय तारींत चडपाचो यत्न करता. तेन्ना तारयो ताका सांगता, 'तूं? तुका रे तारींत सुवात खंय आसा? तुवें काडलां तें पीक सगळें घेतलां तारींत. तुका घेवपाचो ना. तूं घेव्रपा सारको न्हय.' अशें म्हणून ताका सांडून तो तार सोडटा.

कवींक कविता कश्यो 'येतात' हें अजून कोणाक सारकें सांगूंक येवंक ना. रवीन्द्रनाथांक कविताय येताल्यो, चित्रांय 'येतालीं'. चित्रां ते काडी नाशिल्ले. तींच तांच्या हातान आपणाक काडून घेतालीं. म्हजी जिज्ञासा वाडली. दिसपटयेंतली मुखावयली 'एण्ट्री' वाचपाक उत्सूक जालों. आरंभाकूच एक वाक्य मेळ्ळें. 'हेर खबरो मागीर. पयलीं तुवें धाडिल्लो च्या (पालो) खूब बरो आशिल्लो हें सांगूंक जाय.' तांकां चित्रां येतालीं ते मुस्तींक कोणाक तरी बरयल्ली तांगेली ही चीट आसूंक जाय. निवळावन तांणी ती हे दिसपटयेंत घेतल्या जावंक जाय. **छिन्नपत्र** नांवाचें तांगेलें एक पुस्तक आसा. धुवडेक बरयल्ल्यो चिटी निवळावन तयार केल्लें. ताचेंय रूप खंय खंय दिसपटये सारकेंच जालां. म्हळें, **छिन्नपत्रा** भाशेन **पथे ओ पथेर प्रान्ते** पुस्तकांतूय कांय चिटी निवळावन घेतिल्ल्यो आसूं येतात.

हांव मुखावयलें वाचपाक लागलों -

'हांव चित्रां काडटां तश्योच चिटी बरयतां. तकलेंत आशिल्लें सगळें बरोवन मेकळो जातलों म्हणटां. जिवितांत ल्हान व्हड हजार गजाली घडटात तांचो चिटीं कडेन कसलोच संबंद येना. म्हजीं चित्रांय हेच तरेचीं. खंयचेंय एक रूप अवचीत पळेतां तेन्ना ताचो भोंवतणच्या गजालीं कडेन संबंद आसा काय ना हें पळोवंक बसना. म्हज्या काळजांत दर एका खिणाक कितेंय तरी घडटा मोडटा, चलता भोंवता, कसलीय तरी जोडतोड एका सारकी चलिल्ली आसता. तांतलें कांय भावनांच्या रुपान वयर सरता तर कांय चित्रांच्या रुपान आकार घेता. म्हजे लिखणेचो आनी पिशोलांचो कारभार तांच्या सांगातान चलता. हाचे पयलीं म्हजें मन अंतराळांत कान लावन बसतालें. हवेंतल्यान येतात त्या सुरांच्यो खबरी आयकतालें. आतां तें दोळ्यांच्या आधारान रुपांच्य राज्यांत, रेगांचे गर्देंत, झाडां पेडां पळोवपाक लागता आनी तांचें 'भितरलें जिवीत' लेगीत तें पळेता. संवसार म्हळ्यार आकारांची, रुपांची एक महायात्रा म्हणपाचें म्हाका आतां स्पस्ट कळपाक लागलां. रुपांची ही लीला म्हजे लिखणेंतल्यान आनी पेन्सील-पिशोलांतल्यान अवतरपाक आंवडेता. आवेग.न न्हय, भावनेन न्हय, विचारान न्हय, फकत रुपान. हातूंत एक र ा आनंद आसा. ताचो कैफ चडटा. तुर्ताक रेगांनी म्हाका आपणा हात. ेतला. तांच्या हातांतलो सुटपाची

आस्त ना.'

निर्मणे प्रक्रियेची खबर सांगता आसतना रवीन्द्रनाथां सारकेल्या एका प्रतिभावंताची लेगीत लिखणी आडखळत आडखळत चलपाक लागता. खंय खंय लटलटुंकूय लागता. कबीराच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार 'यह तो अ-कथ कथा है, कहते कही न जाई.'

थावूच लागना असलो एक चमत्कार हो.

शेंकड्यांनी, हजारांनी, लाखांनी चित्रां संवसारांत दिसपट्टीं जल्माक येतात. शेंकड्यांनी, हजारांनी, लाखांनी गितां येतात, कविता येतात. सात रंगांच्या मेळानूच चित्रां जातात. सात सुरांचे जुळवणेन गितां घडटात आनी जीं वीस पंचवीस वा पंचवीस पन्नास हजार उतरां आमचे जिबेर घोळटात तांतलीं कांय मेळोवन, जुळोवन, एकवटावन आमच्यो कविता जल्माक येतात. नाशिल्ल्यांतल्यानूच हें सगळें आयिल्लें आसता - जशें नाशिल्लें फूल अवचीत येता, नाशिल्लें भुरगें येता. पुणून फुलां सगळीं बावतात, तशीं भुरगीं जाणटीं जावन मरतात. चित्रां, गितां, कविताय काळाचे व्हांवतेंत एक दीस व्हांवन वतात. सैमाच्या संवसारांत चलिल्ले उत्पत्ती-स्थिती-लयाचे प्रक्रियेंत जसो एकाद-दुकलोच मनीस अजरंवर जावन उरला तशें ह्या शेंकड्यांनी, हजारांनी, लाखांनी चित्रां, गितां, कवितां मजगतचें एकाद-दुकलेंच चित्र, एकाद दुकलेंच गीत, एकाद दुकलेंच काव्य अज्रंवर जावन उरलां. काळाच्यो सगळ्यो शिमो उंपून तें दिग उबें राविल्लें दिश्टी पडटा. कित्याक लागून? तांची निर्मणी करपी चित्रकार, गीतकार, कवी आमचेच सारको कोण तरी एकलो आसता. ताचीच एकल्याची निर्मणी कित्याक उरता? आमची कित्याक उरना? सारकें केन्नाच कोणाक सांगूंक येवंक ना. निर्मणी करतल्याकूच खासा ती कशी 'जाली' वा 'आयली' तें सांगूंक येवंक ना.

एकूच जाप दिवची जाल्यार ही अज्रंवर निर्मणी करपी चित्रकार, गीतकार, कवी निर्मणेच्या खिणाक 'तो' उरूंक नाशिल्लो. तो सोंपिल्लो आनी ताच्यांतल्या सर्जकान जागो जावन निर्मणी केल्ली. इतलीच दिवंक येतली. ओपार व्हडलिशी बरी न्हय, पुणून, खुनी मनशाक तुवें खून कित्याक केलो म्हूण पोलीस विचारता तेन्ना तो केन्ना केन्ना खरें सांगता, 'त्या वेळार म्हाका कितें जालें, खबर ना. कोण तरी म्हजे गोमटेर बसलो आनी म्हज्या हातान हो खून जालो.' तो 'जालो' म्हणटा. आपणें 'केलो' म्हणिना. अशें कितें निर्मणेच्या वेळार जाता जावंक जाय. रवीन्द्रनाथांक आडखळत आडखळत जावं, पुणून थोडें भोव कितें - शंबरांतल्या दोन वांट्या इतलें - तरी सांगूंक आयलां, हें म्हत्वांचें.

## आगळें वेगळें नातें एक

'तुज्या खर्चाची वेवस्था करूंक मेळ्ळी जाल्यार करूं मू? जोड जाता असलें कसलेंय काम तुवें हातांत कित्याक घेवचें न्हय? घरचो खर्च बापूय करता जालो तरूय तुज्या कश्टाची जोड तुजे कडेन आसूंक जाय. खंयच्याय एका दिसाळ्याचो प्रतिनिधी म्हूण काम करशीत व्हय? वा खंयूय प्रोफसोरकी बी?'

ही चीट कोणें कोणाक बरयल्याशी दिसता? सांगल्यार अजापांचो धसको बसतलो. महात्मा गांधींनी जवाहरलालांक बरयल्ली चीट ही. १५ सप्टेंबर १९२४ ह्या दिसा. जवाहरलाल काँग्रेसचे पूर्ण वेळ कार्यकर्ते आशिल्ले. बापाय कडल्यान खर्चा खातीर पयशे घेवचे पडटात हें तांकां खातालें. तांणी आपणाली ही अडचण गांधीजीं मुखार दवरिल्ली. ताची ही जाप.(अ बंच ऑफ ओल्ड लॅटर्स, पान ४६) जवाहरलालांक खंयच्याय खबरेपत्राचे प्रतिनिधी म्हूण काम करचें पडलें ना, आनी प्रोफसोरकीय करची पडली ना ही गजाल वेगळी. कित्याक, नियतीनूच तांची वेवस्था केल्ली. तांगेलीं पुस्तकां एका फाटल्यान एक उजवाडा येत रावलीं आनी तांचे रॉयल्टीन तांचो खर्च सुटपाक लागलो. 'योगक्षेमम् वहाम्यहम्'.

गांधीजी आनी जवाहरलाल, दोगांयचेंय नातें आगळें वेगळें आशिल्लें. बापूय पुता सारकें. जवाहरलालांक गांधींचे सगळेच विचार मान्य नाशिल्ले. केन्ना केन्ना ते गांधीजींचो खर विरोधूय करताले. पुणून हें नाजूक नातें ते केन्ना तुटूंक दिनाशिल्ले.

गांधी केन्ना केन्ना तांचे कानूय पिळटाले.

१९२७त मद्रासाक काँग्रेसचें अधिवेशन भरिल्लें. डॉ. अन्सारी अध्यक्ष आशिल्ले. जवाहरलाल युरोपाचे भोंवडेर गेल्ले. रशियेंतूय भोंवन आयिल्ले. साम्यवादी पक्षान रशियेंत केल्लो वावर पळोवन सुमारा भायर प्रभावीत जाल्ले. उत्साहान ते काँगसिंतूय 'क्रान्ती घडोवन हाडपाक' सोदूंक लागले. युरोपाचे भोंवडेंतल्यान परतना फुडें ते नीट मद्रासाक काँगेसिच्या अधिवेशनाक गेले. काँगसिंतले तरणाटे सगळे तांचे फाटल्यान आशिल्ले. जवाहरलालांच्या प्रभावान काँग्रेसीन त्या अधिवेशनांत दोन म्हत्त्वाचे थाराव पास केले. तांतलो काँग्रेसचें ध्येय 'पूर्ण स्वराज्य' आसतलें हो एक. आनी दुसरो, स्वतंत्र भारताची घटना घडोवपा खातीर एक सर्वपक्षीय परिशद आपोवची हो आशिल्लो. गांधीजींक दोनूय मात पसून आवडूंक नाशिल्ले. 'यंग इंडियें'त गांधीजींनी 'पूर्ण स्वराज्या'च्या थारावाची कडक टिका केल्ली. तांणी म्हळ्ळें -

> 'हे थाराव चलणुकेंत हाडूंक येवपाचे नात म्हणपाचें काँग्रेस बेस बरें जाणा. तरी आसतना ती असले थाराव पास करता आनी हांशाक म्हारग जाता. असल्या थारावांतल्यान आमचें दुबळेपणूच उकतें जाता... सारकें येवजी नासतना असले थाराव पास केले आनी ते कागदारूच उरले जाल्यार काँग्रेसचो धेंक इतलीं वर्सां चलतालो तो ना जातलो... शाळेंतल्या डिबेटींग सोसायटिच्या पांवड्यार आमी पावल्यात अशें म्हणचें पडटा...' (महात्मा, खंड ६, पान ४०२)

ही टिका वाचून जवाहरलाल तिडकीन उसळ्ळे आनी तांणी गांधीजींक एक चीट बरयली - मर्यादा सोडून. गांधीजींनी ती वाचून पिंदून उडयली आनी तांकां ४ जानेवारी (१९२८) दिसा जाप धाडली -

> 'म्हजे वयलो तुजो मोग हांव जाणां. म्हूण हांव जें आतां बरोवपाचो आसां तें वाचून तुका वायट दिसचें ना अशें धरतां... तूं खूब हुतहुतेपण करता. सारकें येवजुपा खातीर आनी हांगासल्ली परिस्थिती सारकी समजून घेवपा खातीर तुवें थोडो वेळ घेवंक जाय आशिल्लो. तुवें बरोवन काडिल्ले आनी पास करून घेतिल्ले थाराव एक वर्स फुडें धुकलूं येताले. स्पेनांतल्या आंतरझुजांत प्रजासत्ताक सैन्यांत तुवें उडी घेतली हेंवूय तुजें पावल हुतहुतेपणाचेंच आशिल्लें. पुणून हाचो म्हाका तितलो हुसको जायना जितलो तूं मवाल्यांक आनी गुंडांक मुखार काडून तांचे कडल्यान कामां घेता हाचो जाता. निर्भेळ अहिंसा तूं मानता काय मानिना, म्हाका खबर ना. तुजे विचार बदल्लेले आसत जाल्यारूय निरंकुश हिंसेन देश मेकळो करूंक येतलो अशें तूं मानचो ना, अशें हांव समजतां. युरोपांतल्या तुज्या अणभवांच्या संदर्भांत देशाचे परिस्थितिची बारकायेन

नियाळणी करून आयची नीत-रीत आनी साधनां चुकल्यांत अशें दिसता जाल्यार तुजे विचार खातरीन चलणुकेंत हाड. पुणून उपकार करून शिस्तिचो पक्ष बांदून काड. खंयचेय चळवळींत शिस्तिच्या मनशांचीच गरज आसता... साधनांच्या मळार तूं बेदरकार जाला असो म्हजो समज जाला... तूं आतां काँग्रेसचो सेक्रेटरी जाला. तुंवें पास करून घेतिल्ले सगळे थाराव चलणुकेंत हाडून दाखोवप ही तुजी आतां लागणूक थरता हें विसरूं नाका...' (अ बंच ऑफ ओल्ड लॅटर्स, पान ६४)

गांधीजींचे हे चिटीक जवाहरलालांनी रोखडीच जाप बरयली - तिवूय मर्यादा सोडून. तातूंत 'तुमचे थारावां वयले टिकेन हांव अस्वस्थ जालां खरो, पुणून तुमकां उगडास करून दितां, तुमी काँग्रेस वर्किंग कमिटिचे एक वांगडी. काँग्रेसच्या थारावांची टिका करपाचो तुमकां अधिकार ना... ते भायर, एकान एक काँग्रेसी वांगड्याचे हाजेरींत भरपूर भासाभास केले उपरांतूच थाराव पास जाल्यात' हें सांगून तांणी म्हळें -

'तुमकां खबर आसा, देशाक जैता कडेन आनी स्वतंत्रताये कडेन व्हरपी एक नेते ह्या रुपान हांव तुमचेर भावार्त दवरून चलत आयलां. 'हिन्द स्वराज्या' सारकेल्या पुस्तकांत मांडिल्ल्या तुमच्या विचारांक हांव मानिना आसतनाय हांवें तुमकां मानल्यात... हेर खंयचेय गजाली परस म्हाका कृतिशीलतेची, निर्भयतेची आनी साहसाची ओड चड. हे गूण हांवें तुमच्यांत सामान्या भायल्या प्रमाणांत पळेल्यात. म्हूण म्हाका सदांच दिसत आयलां की तुमच्या विचारां कडेन हांव सहमत जालों ना तरूय तुमचें सामान्यां भायलें व्हड व्यक्तित्व आनी तुमच्यांतले हे गूण आमकां आमच्या ध्येया कडेन घेवन वतले. असहकाराच्या काळांत तुमी देशांत सगळ्यां परस वयले सुवातेर पाविल्ले... पुणून बंदखणींतल्यान सुटून येत पसून तुमचें कितेंय तरी गडबडलां अशें दिसता. 'हे मुखार कितें करपाचें मनांत आसा' हो प्रस्न हांवें तुमकां कितलेशे खेपे विचारला तेन्ना तुमचे कडल्यान ज्यो जापो मेळ्ळ्यात त्यो संतोस दिवपी आशिल्ल्यो अशें म्हणूंक येवचें ना. आपूण खादीची चळवळ वर्स देड वर्सांत खूब प्रमाणांत वाडयतलों, ते उपरांतूच राजकी मळार कसलेंय पावल उखलूंक पावतलों अशेंच तुमी सांगलां. उपरांत कितलींशीं देड वर्सां येवन गेलीं, खंयचे कडेन कसलोच चमत्कार जाल्लो पळोवंक मेळ्ळो ना. पुणून अशक्य शक्य करून दाखोवपाचे तुमच्यांतले अजापभरीत शक्तींत भावार्त आशिल्ल्यान आमी आशेन तुमचे कडेन पळेत रावले... देशांत सगळेच खादी घालूंक लागतले ते मेरेन स्वतंत्रतायेची वाट पळेत बसले जाल्यार अनंत काळा मेरेन वाट पळेत बसपाचें आमच्या वांट्याक येतलें. हाचे पयलीं हांवें तुमकां जायते खेपे सांगलां, खादीकार्याचो राजकर्णा कडेन कसलोच संबंध ना. तुमी खादी कार्यांत पडिल्ल्या लोकांचें मनूय अशें करून उडयलां की ते आपणाल्या वावरा भायर आपणाक कितेंच लावन घेनात... मागीर, कितें करपाचें? तुमी कितेंच सांगिनात... 'यंग इंडियां'तलीं तुमचीं बरपां, तुमची आत्मकथा बी वाचतकूच म्हजे आदर्श तुमच्या आदर्शां पसून कितलेशे वेगळे म्हणपाचें म्हाका स्पश्ट दिसूंक लागलां... 'टुवर्डस् मॉरल बँकरप्सी' नांवाच्या पुस्तकाच्या आधारान बरयल्ली तुमची लेखांमाळ वाचुनूय म्हाका दिसलां की तुमी युरोपचे संस्कृताये विशीं चुकिचो समज करून घेतला. 'युरोपा कडल्यान हिन्दुस्तानान घेवपा सारकें कायंच ना' ह्या तुमच्या मत्ता कडेन हांव मातूय सहमत ना. पुर्विल्लें 'रामराज्य' खूब बरें आशिल्लें अशें हांव मानिना. तें परतें आयिल्लें म्हाका नाका. येवरोपेव संस्कृताय - वा म्हणुंया उद्योगीक संस्कृताय हिन्दुस्तानांत आयले बगर रावपाची ना. कांय बदल जावन येवं मागीर ती. पुणून ती उद्योगवादाचेरूच उबी आसतली... तुमी उद्योगवादाचे जे अवगूण दाखयतात ते उद्योगवादाचे न्हय, भांडवलशायेचेच अवगूण ते... भांडवलशाय जें शोशण करता ताचे आड तुमी एक उतर लेगीत काडिनात...

(आचार्य कृपालानी, आत्मकथा, पान १६६, १६७)

ही चीट वाचून गांधीजींनी तांकां जाप धाडली ती थोड्या उतरां भितर अशी आशिल्ली -

आमचे दोगांयचे नदरेंत फरक आसा म्हणपाचें हांव जाणां आशिल्लों. पुणून तो इतलो व्हड आसत अशें हांवें केन्ना मानूंक नाशिल्लें. देशाच्या बऱ्या भल्या खातीर तूं आपणाक चिड्डून म्हज्या हाता खाला वावरूंक लागलो तेन्ना भितरले भितर वयर सकल जायत राविल्लो... तुका म्हजे पसून मेकळो हांव आयजूच करूंक तयार आसां. पुणून हेंवूय सांगून दवरतां, तुका म्हजे आड बंड करचें पडटलें. कित्याक, हांव चुकतां आसन जाल्यार म्हजे कडल्यान देशाचें खूब लुस्कान जातलें. हें खबर आसतना म्हजे आड बंड करप तुजी लागणूक थरता. तुजे सारक्या एका धीट, निष्ठावंत, कार्यकुशळ, प्रामाणिक सांगात्याक होगडावचो पडटा ही म्हजी खंत मात हांव तुजे पसून लिपोवन दवरिना... तूं म्हजे पसून पयस गेलो जाल्यारूय लक्षांत दवर, आमच्या वैयक्तिक संबंदांत कसलोच बदल जावचो ना. (अ बंच ऑफ ओल्ड लेटर्स, पान ५७)

ही चीट वाचून जवाहरलालांक वायट दिसलें. तांणी २३ जानेवारी १९२८ ह्या दिसा गांधीजींक जाप बरयली, कितल्याशा पानांची. आपलीं मत्तां फाटीं घेनासतना, 'तुमचे आड बंड करपाचें म्हज्या मनांत केन्ना येवचें ना' सांगून.

जवाहरलालांनी फकत १९२८तूच आपणाले गांधीजी कडेन आशिल्ले मतभेद उकते केल्ले अशें न्हय. उपरांतच्या काळांतूय तांणी ते उकते केल्यात. एक खेपे न्हय, कितलेशेच खेपे केल्यात. तरी आसतना जवाहरलालांनी गांधीजींक केन्ना अंतर दिलें ना. गांधीजीय म्हणटाले, 'आयज जवाहरलालांचीं मत्तां वेगळीं आसूंत, म्हजे फाटल्यान ते म्हजीच भास उलयतले.'

स्वतंत्रतायेच्या झुजांत खर मतभेद आसुनूय दोगूय एकठांय राविल्ले. एकाच ध्येयान प्रेरित जाल्ल्या रासवळ मळा वयल्या वावुरप्यांनी एकामेकां कडेन कशें चलचें ही देख घेवपा सारकें हें दोगांय मजगतचें आगळें वेगळें नातें.

## मिक्सरूय बी, रगडोय बी

हालिंसाराक आमगेर सगळ्यांगेर मिक्सरूय चलतात तशे रगडेय चलतात. एकाच वांगडा आमी आर्विल्ल्या काळांत जियेतात, तशे फातरा युगांतूय जियेतात!

फाटल्या कितल्याशा वर्सां सावन देशांत येवरोपांत वाडिल्ली वैजकी विद्या शिकून लोक डॉक्टर जाताले. आतां आयुर्वेद शिकुनूय लोक डॉक्टर

जावपाक लागल्यात ! आयुर्वेदांतली वैजकी दोन अडेज हजार वर्सां आदली (ताचेय आदली जाल्यार देव जाणा) अशें म्हळ्यार, 'तीच ग्रीक लोक हांगासरली थंय घेवन गेले आनी तिका 'ऍलोपथी' म्हण एक नवें नांव दिवन परती हांगा घेवन आयले' अशी जाप मेळटा. ' कफ, पित्त आनी वात ह्या तीन तत्त्वांच्या संतुलनाचेर मनशाची बलायकी निंबून आसता, हें संतुलन इबाडटा तेन्ना पिडा जातात अशें आयुर्वेद मानता. येवरोपेव ही जाणकारी घेवन गेल्ले जाल्यार ते थंयच थांबून रावले नात. तांणी तरांतरांचे 'मिकोब्र' (जंतू) सोदून काडले आनी दर एके पिडेचो एक खाशेलो जंतू आसता, तो मारूंक जाय, ह्या निर्णयार पावले. ऍलोपथी आयुर्वेदा पसून खूब पयस गेल्या अशें हांकां सांगल्यार तांगेले आयुर्वेदीक डॉक्टर तयार करपाचे कारखाने बंद पडपाचे आसात व्हय? आस्त ना. वैजकिच्या मळारूय मिक्सरूय चलतलो, रगडोय चलतलो.

आमच्या देशान इतिहासाक केन्ना म्हत्व दिलें ना. कित्याक, देवाक खबर. तांणी रामायण महाभारता सारके ग्रंथ बरयले. पुणून इतिहास बरोवपाक उपकारता असलो कागदाचो एक चिटारो लेगीत दवरलो ना. इतिहासा बदला तांणी पुराणां बरयलीं. अशोका आदल्या काळांतलो एक्क फातरपटो मेळना, एक तांब्यापटो मेळना. पयले वयले फातरपटे मेळ्ळ्यात ते अशोकाचेच. एकुणिसाव्या शतमानाच्या अखेरच्या वर्सां मेरेन ते कोणाक वाचूंक लेगीत येनाशिल्ले. लिपी ह्याच देशांतली - ब्राह्मी. देवनागरिची आवय. भासूय ह्याच देशांतली - पाली. बौद्ध बरपावळिची भास. पुणून ती वाचपी कोण ह्या देशांत नाशिल्लो. पयलेच फावट ती वाचली ती एका ख्रिस्ती मिशनऱ्यान, कितल्याशा वर्सांचे तपश्चर्ये उपरांत. इतिहासा विशीं इतले उदानीस लोक वेदीक काळांतल्या इतिहासा संबंदान कितें सांगतले? येवरोपेव लोकांच्या हाताक पोरणावळशास्त्राची कुदळ लागली आनी हे कुदळीन तांणी क्रीट, बाबिलोन, आसीरिया, इजीप्त संस्कृतायां वांगडा सिंधु संस्कृतायूय 'उस्तून' काडली. ह्यो सगळ्यो संस्कृतायो पुरवल्ल्यो, लिपिल्ल्यो, लोकांच्या उगडासांतल्योय ना जावन गेल्ल्यो. येवरोपेवांनी त्यो उस्तून घांसून पुसून निवळ करून आमचे मुखार दवरल्यो. खंयचो फातर खंयच्या काळांतलो हें सांगपी एक खाशेलें रसायनशास्त्र तांणीच सोदून काडलें. आनी सिंधु संस्कृताय वेदां आदल्या काळांतली द्रवीड लोकांची शारांची संस्कृताय आशिल्ली म्हणपाचें दाखोवन दिलें. भासविज्ञानाचो आधार घेवन वेदिक भाशेचें आदलें रूप कशें आसूं येता आनी उपरांतचें कशें जावं येता हें दाखोवन वेदिक भाशे आदली भास पर्शिया खाल्डिया बी वाटारांत घोळटाली तें समजावन सांगलें. कपलाक तिळो, गळ्यांत रुद्राक्ष घाल्ल्या सनातन्यांक तें कशें पट्टलें? 'म्हळ्यार, आर्य भायल्यान आयल्यात अशें तुमकां म्हणचें आसा?' ते विचारतात आनी 'च्ये... आर्यांच्यो तुमकां भायर कुरवो मेळटात जाल्यार त्यो हांगासरल्यान दिग्विजयाच्या हावेसान ते भायर गेले तेन्नाच्यो' अशें म्हणटात. आर्य मुदलांतले ह्या आर्यावर्तांतलेच अशें तांचें म्हणणें. हांच्या हातांत सत्या येना फुडें रोमिला थापर, बिपीन चन्द्र हांचे सारकेल्या पुराव्या बगर एक उतर उलय/बरय नाशिल्ल्या इतिहासकारांक निखळावन तांचे सुवातेर आर्यांचे अभिमानी इतिहासकार हाडून तांणी बसयल्यात! 'हे येवरोपेवांचे बंदे, ते आमकां नाकात' अशें तांचें म्हणणें.

हें सगळें थोडें म्हूण जाल्यार कोण जाणा - आतां ते विश्वविद्यालयांत 'ज्योतिर्विज्ञान' आनी 'वास्तुशास्त्र' शिकोवन प्रोफेसर, डॉक्टर जावपाच्यो डिग्ऱ्यो सुरू करपाचें येवजितात. ज्या देशांत 'ज्ञान मुक्त सहज शुद्ध व्हांवतें' चलूंक जाय आशिल्लें थंयच काळखी परंपरा - obscurantism - सुरू करपाचो तांचो उपद्व्याप सुरू जाला. तोवूय नक्षत्रविद्येचीं - Astrophysicsचीं कितलींशींच केन्द्रां देशांत चलता आसुनूय. नारळीकरां सारकेले हे विद्येचे जाणकार आसुनूय.

कपलार हात मारपा पेल्यान दुसरें कितें करतले आमी ! जावं, विद्येच्या मळारूय मिक्सरूय चलोवया, रगडोय चलोवया. एक आगळो वेगळो, अपरूप exquisite देश म्हूण नांव जातलें आमचें संवसारांत !

राष्ट्रीय बावटो बदलूंक येना. नाजाल्यार, अशोक चक्र काडून थंय मिक्सर आनी रगडो दवरुंया म्हूण पार्लमिन्टाक सुचोवं येतालें !

* * *

---

# પડસાદ

वावुरपी संपादपी
जाग म्हयनाळें

नमस्कार

'नंदालो पोर' हें सुमन्तबाब केळेकारांचें आत्मकथन जाग म्हयनाळ्यांतल्यान वाचतना आमच्या भुरगेपणांतलें तें सुंदर गोंय दोळ्यां मुखार रावता. सुमन्तबाबालें बरोवप खुबूच चटकदार आनी रुचीक जालां. इतल्या वर्सां फाटल्यो ल्हान-सान यादी सगळ्या तपशिलां सयत दिवपाची तांची कला पळोवन अजाप जाता. धाकले दिवाळेची मजा, नवरातिचे तिसरे रातिच्या उत्सवा खातीर म्हाड्डोळच्यान बांदोड्यां महालक्ष्मी देवळा कडेन रातच्या वेळचो सायकलीन केल्लो प्रवास आनी बुकीमामाल्या आतिथ्याचें चित्रण खूबच आवडलें. गोंयच्यो असल्यो यादी जाय जायशो दिसतात. सुमन्तबाबाल्या रसाळ कोंकणींतल्यान त्यो आनीक चड सुवादीक जातात.

म्हजे सारक्या मुंबयवासी गोंयकाराक 'नंदालो पोर' वाचतना जो आनंद भितरल्यान भरून येता तें खंयच्या शब्दांनी सांगतलों? सुमन्तबाबाक ह्या पत्रांतल्यान हांव मनापसून धन्यवाद दितां आनी हें बरोवप अशाच उत्साहान आनी नेटान फुडें चालू दवरपाक तांकां उत्तम आरोग्य मेळूं अशी प्रार्थना करतां.

'जाग' म्हयनाळ्यान हें अशें अप्रतिम आत्मकथन आमकां वाचपाची संद दिवन आमचेर खऱ्यांनीच उपकार केल्यात अशें हांव समजतां.

तुमचो,

**हरदत्त खांडेपारकार**
बोरीवली, मुंबय

# बिचारो

महाबळेश्वर सैल

सगळो चकचक आसलो. तांबडें जाजम घालून सोबयल्ली माची. ताचे फाटल्यान पड्ड्यार सूर्य, चंद्र, फुलां हांची केल्ली भांगरा रंगाची आरास. मदीं सिंहासन कशी महाराजांली ऊंच सोबीत बसका. ताचे मुखार शेमियान्यांत शेंकड्यांनी लोक बशिल्लो. खूब उमळशिकेन, खूब भक्तिभावान 'संतश्री रामावतार कृष्णानंदजी महाराजा'ची वाट पळयत. अशी वाट पळयतना उमळशिकेन तांचीं काळजां अंदल्ले वरी जाल्लीं. केन्ना एक फावट महाराज दिस्टीक पडटात आनी तांचें 'अमृतरूप' दोळ्यांत भरून घेतात अशें लोकांक जाल्लें.

कांय वेळान माटवाचे दावे वटेनच्या दारांतल्यान महाराज भितर सरले. लोक देहभान विसरून महाराजांक पळयताले. कांय वेळ थंय भक्तिभावान भरिल्ली थंड शांतताय पातळ्ळी. सगळें वातावरण महाराजाचे दैवी सासायेन भरून गेल्ले वरी जालें.

महाराजान आंगार पुराय पायघोळ, धीलधील सदरो घातिल्लो. पयसुल्ल्यान पळयतल्याक तो सदरो तांबडो आसूनय काळो कसो दिसतालो. थंय दावे वटेन उजवाड इल्लो उणो आशिल्ल्यान जावंये. त्या कोल्या तोंडाच्या अवचिन्न मनशान मदींच कोणाक तरी विचारलें, 'महाराजाच्या सदऱ्याचो रंग कसलो?'

कुशिच्या एकल्यान उबगणेनशें म्हटलें, 'दिसना तुका काळो तो?'

आनीक मात्शे कुशीक बशिल्ल्यान बेगिबेगीन दुरुस्त केलें, 'ना, ना, महांराजाल्या सदऱ्याचो रंग तांबडो. लखलखीत तांबडो.'

आनीक कोणें तरी म्हटलें, 'महाराज थकिल्ले वरी, भागिल्ले वरी दिसतात ह्या दिसांनी.'

'सगळ्या संवसाराचो भार तांचे तकलेर. सदांकाळ भक्तांचोच हुसको. पूण तोंडा वयलें तेज मात तशान तशें आसा.'

'सादें तेज न्ही तें मावळूंक. दैवी तेज तें ! मरणा वांगडाच मावळचेलें.'

त्या कोल्या तोंडाच्या अवचिन्न मनशान सट् करून विचारलें, 'महाराजांक, प्रत्यक्ष देवाक आनी मरण लागता?'

'तांचीं मरणां वेगळीं. ही कूड सोडप, ते कुडींत वचप. तांचे आत्मे अजरामर. तांकां उज्यान लासूं येना, अस्त्रान भेदूं येना. आमी पामरांनी नाना प्राण्यांच्या जल्ममरणाच्या फेऱ्यांत गुंथून रावप. तांकां मात दर एक जल्म देवालो. मोक्षाक पाविल्ले ते आत्मे !'

त्या मंदबुद्दी मनशाले तकलेंत सगळोच तकली खावपी गोंदळ. तांचो आत्मो, म्हजो आत्मो, जल्ल्याचे, गायडोळाचे, बैलाचे आ त्मे... आत्म्याची भुरावळ... तेन्नाच लोकांमदीं मोटो गजर जालो - 'संतश्री रामावतार कृष्णानंदजी महाराज की जय !' हाचीं आवर्तनां आनीक कांय वेळ जायत रावलीं आनी मागीर सगळें शांत जालें. तो अवचिन्न मंदबुद्दी मनीसय भारावन गेलो. ताकाय खीणभर भावार्तान नमस्कार करचो अशें दिसलें.

इतल्यान बशिल्ल्यां मदलो एकलो उठलो. ताणें धांवन वचून महाराजांच्या पांयांर सोताक घालून घेतलो. 'महाराज, ह्या पांयांची कितल्या वर्सांसान म्हाका ताळणी लागिल्ली. आज म्हजें जिवीत सार्थक जालें. धन्य जालों हांव.'

महाराजान 'ऊठ म्हज्या बाळका' म्हणत ताचे दोनय खांदे धरून ताका उठयलो आनी हड्ड्याक लायलो. मगेर हवेंत हात भोंवडावनसो विभुती काडून ताचे तकलेक लायेली. महाराज हवेंत हात भोंवडायताना, विभुती लायताना तो अवचिन्न मनीस पडमूर कसो दोळ्यांच्यो बावल्यो ताणून दुबावान पळयतालो. मगेर ताका दिसलें, दुबावाक इल्लीय सुवात ना. तरीय एक प्रस्न ताच्या मनांत उठलोच - हो महाराज हवेंतल्यान विभुती काडचे बदलाक गरिबांक खांवक जोंधळे, नाचणे कित्याक काडिना?

पांयार पडिल्ल्या भक्ताक उठोवन हड्ड्याक लायिल्लो, ताचे तकले वयल्यान मायेन हात भोंवडायल्लो पळोवन कोणें तरी म्हटलें, 'देवाचें आनी आवयचें, हीं दोनूय रुपां महाराजां सरीं एकठांय जाल्लीं आसात. तांच्या साद्या स्पर्शान वर्सासंकीनचे रोग बरे जातात. पिडा पयसावता.'

'हय, तांच्या हाताच्या थेंबभर उदकान, प्रसादान आनी विभुतीन सगळे रोग, सगळीं दुख्खां पयसावतात. म्हणच कितल्या पयसुल्ल्या पयसुल्ल्यान लोक येतात! भूक नाशिल्ल्याक भूक, न्हीद नाशिल्ल्याक न्हीद, सूख नाशिल्ल्याक सूख, भुरगीं नाशिल्ल्याक भुरगीं...'

तो अवचिन्न मनीस भितरल्यान चेचिल्ले वरी जालो. तो आतां एका शिकिल्ल्या, रुक्ष बुदवंता वरी चिंतूंक लागलो. मनशान मनशाच्या पांयार घालून घेवप म्हटल्यार कितें? हीच ती हजारांनी वर्सांची गुलामी. मनशान मनशा सरीं मान बावगय नासतना, आय् टू आय्, फेस टू फेस आसूंक जाय. मगेर सट् करून ताचे मंदबुद्दींत येयलें, महाराज मनीस न्ही, देव तो, प्रत्यक्ष देवाचें प्रतिरूप, देवाचो अवतार... परत म्होंवामूस घुंविल्ले वरी तकलेंत गोंदळ. देव म्हटल्यारच कितें तें आदीं कळना जालें. कितलो ल्हान, बुद्दीहीण मनीस हांव म्हण चिंतून ताका वायट दिसलें.

महाराज तांचे सिंहासन कशे ऊंच सोबीत बसकेर बसले. लोकांक परतें जाणवलें, महाराज थकल्यात, बागवल्यात, कुडिची गुठली जावंक लागल्या. ताणी सगळ्यांक नमळायेन नमस्कार केलो आनी 'जय रामजी की' म्हटलें. आतां ताणी आपल्या प्रवचनाक सुरवात केली.

'आमच्या चार वेदांचो अठरा पुराणांचो सार एकच. सूख म्हणटात तो म्हातारेलो कापूस. धरूंक वयता तितलें पयस हुडटा. तें केन्ना कोणाच्या हाताक लागिल्लें ना. दुख्ख म्हणटात तें एक चिरंतन सत्य. दुख्ख भोगून, दुख्ख पचोवन दुख्खाचेर जैत व्हरात. सुखाचे फाटीक लागप म्हटल्यार

नाना तरेचीं पातकां करप आनी परत परत जिवीत मरणाच्या फेऱ्यांत पडून रावप...

त्या अवचिन्न मनशाक अचकीत एक व्हड शींक येयली. महाराजालें उलोवप आडखळिल्ले वरी जालें. तांणी आपल्या थकिल्ल्या आवाजान परत उलोवंक सुरवात केली. शिक्षा आनी दीक्षा. दीक्षे बगर तुमचें शिक्षण कुचकामाचें. फक्कत पोट भरचें एक साधन. तुमकां तनामनाची शांती जाय, आत्मशांती जाय, मोक्ष जाय, भूतयोनींतल्यान मुक्ति जाय तर तुमकां गुरुची दीक्षा घेवन ताच्या चरणांत सगळ्या भावार्थान लीन जावचें पडटलें, विलीन जावचें पडटलें. हांवें एकवीस वर्सां अनन्य भक्तिभावनेन गुरुची सेवा केली. म्हजे गुरू मना-काळजान हिमालयाचे उंचायेचे आशिल्ले. कैलास पर्वतार रावपी ईश्वराची सासाय तांचेठांय आशिल्ली. निमाणें, निरोपाच्या खिणाक तांणी म्हजे तकलेर आशिर्वादाचो हात दवरलो. तेन्ना म्हजे भितर विज्ज व्हांविल्ले वरी दैवी शक्तिचो संचार जालो. म्हजें मनीसपण गळून पडलें. हो दैवी संचार तुमच्यांत जावंक जाय तर सदां संतसज्जनाच्या सांगातान सत्संगांत, भजन कीर्तनांत गुंथून रावात...'

तो कोल्या तोंडाचो, अवचिन्न शेजाराक बशिल्ल्याच्या कानांत किते तरी फुतफुततालो, कुचेश्टेन-सो हांसतालो.

महाराजांलें प्रवचन चालूच आसलें. 'दर एके वाटेर एक अवचिन्न सुणें आडवें येता. ह्या सुण्या पसून पयस रावंक जाय. पांडव स्वर्गार चडूंक गेले तेन्ना अशेंच एक सुणें आडवें येयलें. मगेर स्वर्गार पावचे पयलींच एकएकलो पडत गेलो...'

महाराशिंक खांक येवन खरस लागिल्ले वरी जाली. खीणभर जीव वयर सकयल जालो. 'जिवीतभर म्हज्या भक्तांचीं दुयेंसां, तांचीं दुख्खां हांवें म्हजे कुडीर घेतलीं. खंय खंयच्याय राज्यांत म्हजो भक्त पिडेन त्रासला म्हण अंतरशक्तीक होलमतकीर ताची पिडा म्हज्या आंगार घेत आयलां. आतां हें चड जालां. पूण उतर दितां, हे कुडींत त्राण आसा मेरेन हेरांली पिडा आंगार घेत रावतलों.'

ताळयांचो एकच कडकडाट जालो. पूण तो अवचिन्न मदींच उठलो आनी तकली घुंविल्ल्या पिसांटा वरी व्हडाव्हडान उलोवंक लागलो. 'फटकिरो... फट उलयता हो महाराज. हो आमचे वरीच मरूंक पाविल्लो एक सादो मनीस. हो देव न्ही आनी मनीसय न्ही. मदींच हुमकळटा तो...'

आशिकुशीक बशिल्ले पंदरा वीस जाण एकदम उठले. तांणी त्या कोल्या तोंडाच्याक धरून येथेच्छ बडयलो. भरभरीत ओडून व्हरून माटवा मुखार उडयलो. 'आमच्या देवा समान पूज्य महाराजांक तूं फटकिरो म्हणटा? किडे पडटले तोंडाक. कुसून मरतलो तूं.'

तो धाडावल्लो कोल्या तोंडाचो कुटत कुटत वचूंक गेलो. पूण ताका दिसतालें, म्हाका हेर मारताना महाराजान आडावंक जाय आसलें. कित्याक आडायलें ना ताणें?

प्रवचन सोंपतकीर कांय वेळ भजन जालें. मगेर महाराज उठून आपले कोठये वटेन वचूंक गेले. मदींच एक मोटे विद्वान पत्रकार तांचे मुखार वचून उबे रावले. ताणें म्हटलें, हांव 'गायत्री' म्हयनाळ्याचो संपादक. हांव तुमचे सरीं वेदान्त, अध्यात्म हाचेर भासाभास करूंक सोदतां.'

महाराजान सांगलें, 'हांव हे बाबिचेर केन्ना चर्चा करिना, वाद घालिना. हाचेर वाद घालप म्हटल्यार वेदाचेर, धर्माचेर, देवाचेर, सत्याचेर अविश्वास दाखोवप अशें जाता. नास्तीक मनीसच अशी चर्चा करता. हांव जें उलयतां तें म्हाका दैवी शक्तीन अंतरात्म्यांतल्यान स्फुरिल्लें आसता.'

'म्हणजे तुमी सोताक देव मानतात तर?'

'ना, म्हज्या बाळका. पूण ही दैवी शक्त दर एका मनशा मदीं आसता. तुजें काळीज हेंच देवाचें देवूळ. ही दैवी शक्त कांय जाणां मदीं चड, कांय जाणां मदीं उणी आसता. जांचे मदीं चड आनी चड आसता ते संतश्रीचे पदवेर पावतात.'

संपादक गेले आनी ताणें सोताक महाराजांल्या पांयार घालून घेतलें. तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. ताचेन महाराजांलीं पावलां धुवन वयतालीं. दुकां वांगडा मनांतलो 'कचरो'य व्हांवन वयतालो. ते महाराजांल्या पांयां वयल्यान उठले तेन्ना तांकां सगळो संवसार म्हणटा तो सुखाचो, आनंदाचो म्हासागर कसो दिसूंक लागलो. कूड कूड उरली ना. तिचें एक ल्हवपीक पांख जालें. आतां हांव ह्या सुखाच्या महासागरांत मुक्त पेंवतलों. म्हजे लेखणेक नवी धार येतली. म्हजे 'गायत्री'चे आंक लाखांनी खपतले. म्हाका मोक्ष मेळटलो!

महाराजं लो पूर्व इतिहास चड कोणाक खबर नासलो. कोणें तरी केन्ना तरी एक गजाल सांगिल्ली. ते तांगेली आवय चौदा वर्सां पिरायेची आसतना जल्मल्ले. तांच्या जल्मा उपरांत रोखडोच स म्हयन्यांनी बापूय भायर पडलो. एक दीस तांगेले आवयक बापोलयान खूब मारली आनी तांच्या दोळ्यां हुजीरच नागडी करून तिचेर बलात्कार केलो. पिरायेच्या साडेचार वर्सांर तांणी घर सोडलें. उपरांत ते बरींच वर्सां गुडगुडीबुवा म्हणिल्ल्या सरीं आसले. तांकां गुडगुडी भरून दिवप, भांग वांटून दिवप, धुनी पेट्टी दवरप असलीं कामां ते करताले. गुडगुडीबुवा वांगडा ते खूब भोंवले. कितलेशेच गांव आनी तीर्थक्षेत्रां. मुळांत ते तकलेन खूब हुशार आशिल्ले जावये. प्रवचनां आयकोन आयकोन ते प्रवचन विद्येंत पारंगत जाले. एक फावट संन्याशांच्या दोन पंगडां मदीं मोटें झगडें जालें. गुडगुडीबुवा न्हिदिल्ले सरी आसताना कोणें तरी तांचे तकलेर फातर घालून तांकां मारले. उपरांत संतश्री रामावतार कृष्णानंदजी महाराज (हें तांणी उपरांत घेतिल्लें नांव. मूळ नांव कोणाक खबर ना) एकले पडले. एकलेच रावंक, भोंवंक लागले. कांय तेंप ते अघोरी पंथांतय मेळिल्ले म्हणटात, ज्या पंथांचे अनुयायी गंगेच्या घाटांनी लासूंक घातिल्ल्या मड्यांचीं अर्द लाशिल्लीं अवयवां ओडून हाडून सोऱ्या वांगडा खातात. उपरांत तांणी तो पंथय सोडलो आनी सोता एक खां प बांदून मठ स्थापन केलो. प्रवचनां दीत ते भोंवंक लागले. ते व्हड हुशारेन खणखणीत आवाजांत प्रवचनां करताले खरे, पूण पुराय संवसारा विशीं एके तरेचो राग धरून बशिल्ले वरी चेहऱ्या वयल्यो शिरो सदांच ताणिल्ल्यो आसताल्यो. तांच्या दोळ्यांत पळयल्यार खोल भितर आनीकं एक रागिस्ट मनीस दड मारून बसला अशें दिसतालें.

ह्या दिसांनी महाराजांली प्रकृती कणाकणान इबाडूंक लागिल्ली. प्रवचन दितना ते मदींच धांपेताले आनी घामाघूम जाताले. तांकां खोकली मारताली. परत परत जोर येतालो. महाराज लोकांक सांगीत आसले, म्हज्या पयसुल्ल्या अनामीक, अगणीत भक्तांलीं दुयेंसां हांव आंगार घेतां. ताचेन लोकांलो महाराजां विशिंचो भावार्थ खूब वाडिल्लो. तांच्या जयजयकाराचो ओतो येयल्लो. दर्शनाक येतल्यांच्यो लायनी लागताल्यो. एके वटेन कितलेशेच लोक तांचे भलायके विशीं देवा सरीं मागताले, रात दीस प्रार्थना करताले.

आतां आतां तांच्या प्रवचनांत कसलो जोर नासलो. चेहऱ्या वयलें तेजय मावळिल्लें. लोकांक चडच हुसको लागिल्लो. कितलेशेच जाण तांचे सरीं पळोवन दुकां गळयताले. महाराज सांगितच आसले, म्हज्या कणांत प्राण

आसा मेरेन हांव भक्तांलीं दुयेंसां आंगार घेतलों. उरफाटे, लोक तांकां विनयताले, 'बस करात, थांबयात हें आतां. देवाचे कुडीक आनी आत्म्याक अशे कस्ट दिवं नाकात !'

पूण महाराजान एक दीस ताचे फुडेंय वचून म्हटलें, 'हांव एक दीस खंयच्याय भक्तालें मरण म्हजेर घेवंक फाटींफुडें सरचों ना. एक दीस तेंवय घेतलों हांव ! अशा भक्ताची हांव वाट पळयत आसां.'

आतां मात लोक शोकाकुल जावन हड्डें बडोवन घेवंक लागले.

□□□

ते अस्तुरेक शुद्ध आचरणाची एकनिश्ठ पतिव्रता म्हण गांवचे लोक खूब मानताले. सदांच देवपुजेंत, नामस्मरणांत, साधूसंतांच्या चरणांत गुंथून रावताली. दिसतालीय सोबीत. गोरी गोरी दुधाळ कांत, काळे काळे दोळे, रेशम कशे माथेंभर पिंगशे लांब केंस. पूण लग्नाक आठ वर्सां जाल्लीं तरीय तिका भुरगें जावंक नासलें. आदींच मोव मनाची मायेस्त ती भुरग्याक खूब म्हटल्यार खूब आशेताली. आतां आतां तिची सगळी देवपुजा, उपास-तापास भुरग्याचे वथरणेक लागुनच जाता काय कितें अशें दिसतालें. संतश्री रामावतार कृष्णानंदजी महाराजांली ती परमभक्त आशिल्ली. तिच्या गांवा सावन चाळीस मैलांर आशिल्ल्या महाराजांल्या मठांत पयले दोन फावट ती घोवा वांगडा गेल्ली. मागीर मात अदीं मदीं ती एकलीच वयताली. महाराजान भुरगें जातलेंच म्हण तिका भावार्थ दिल्लो. खात्री दिल्ली. ती तर आकुळ पिकूळ जावन भुरग्याक आशेताली.

मदींच ती जिवान बरी उरना जाली. एक फावट न्युमोनिया जालो. तातुंतल्यान मात्शी बरी जातकीर आंगार तांबडे चरकण उठले. ते कशेच उणे जायना जाले. आंगान भागिल्ली आनी रात दीस तकली उसळटाली. परत परत दोतोरा सरीं व्हरची पडटाली. एक दीस दोतोरान एडस्‌ची टॅस्ट करून घेवंपाक सांगलें. तिणें अनमनत नाखोशयेनच टॅस्ट करून घेतली. टॅस्ट केल्यार ती एच् आय् व्ही पोझिटिव्ह मेळ्ळी. दोतोरान तिका एडस् आसा म्हण सांगतकीर घोव दोतोराल्या आंगारच गेल्लो. पूण दोतोरान थंडपणान विचारलें, 'आदीं केन्ना इंजेक्शनां घेतिल्लीं? केन्ना हेरांलें रगत घेतिल्लें?'

तांणी ना म्हणटकीर दोतोर दांत चाबून ओगी रावलो. घोवाक तर शंबर टक्के खात्री आशिल्ली आपणें अशें कांयच कर्तूब केलें ना जाचेन आपणाक ती पिडा जावं येता, आपणा वरवीं बायलेक वचूं येता. आपूण सामको निरपराधी आसतना, सूय, रगत घेनासतना बायलेक ही पिडा आयली खंयसान?

घोवान बायलेक फुसलावन, धमकावन आनी शेवटाक धाडावन विचारलें. ताणें मारिल्ल्या एका थापटान तिगेलें गाला सकल्लें हाड मोडलें आनी रगत येयलें. तिणें हय ना करीत सांगलें, 'महाराजान भुरगें दिता म्हणिल्लें. म्हजे भितर दैवी शक्त आसा ती तुगेल्या गर्भांत देंवतली आनी खूब शाणो भुरगो जातलो म्हण सांगिल्लें. कांय विधी करून तीन फावट शरीरसंबंध केल्लो...'

आयकोन घोवाली तकली घुंवली. तो रागान खूब चंवचाळ्ळो. मागीर खूब रडलो. घोवा वांगडा बायलय रड रड रडली.

घोव तिका घेवन महाराजांल्या मठांत आयलो. सकाळचें प्रवचन चलिल्लें. महाराज पुराय शक्त एकवठावन धांपेत प्रवचन दिताले. 'नश्वर कुडींतल्यान पवित्र, अमर आत्म्याची मुक्ती हो एक भांगराचो खीण. मरण म्हटल्यार काळोख न्ही. हांगासान नव्या उजवाडाची नवी वाट फुट्टा. म्हाका उमळशीक लागल्या त्या उजवाडाची. मना कुडीन सामको पवित्र हांव. सन्याशाची, साधुसंताची सगळी मर्यादा हांवें पाळ्ळ्या. गरीब दुबळ्याक देव मानला, पर-अस्तुरेक आवय मानल्या. म्हाका तितलेंच पवित्र मरण येतलें. हांव सोदत आसां अशा एका पयसुल्ल्या, लागसल्ल्या भक्ताक जाचें मरण हांव खोशयेन म्हज्या आंगार घेतलों. आयजवेर हांवें भक्ताची पिडाच आंगार घेतली. आतां तेचें मरण घेतलों...'

घोवान बायलेक ओडून हाडूनच महाराजा सामकार आपटिली. तो रागान शिरो ताणून लोकांक पळोवन आड्डलो, 'ह्या पातकी महाराजान म्हजे बायलेक एडस् दिला. सोताय पळय एड्सान रोगेल्लें कुकड कसो खुर्चेंत मुड्डो जावन पडला. भुरग्याक वथरेताली ती. हाणें ताचो गैरफायदो घेतलो. कोण जाणा आनीक कितल्यो बायलो एड्सान धरतरेक लायल्यात आसतल्यो. तांच्या घोवांचे भोगणारे केले आसतले...'

महाराज ओगी. खुर्चेंत आनिकय ल्हान पोटली जावन दोळे धांपून पडिल्लो. दोळे धांपिल्ले आसतनाच तो हात हेळोवन कितें तरी सांगूंक सोदतालो लोकांक. तेन्नाच ती अस्तुरी ताचेर पच् करून थुकली.

मुखा वयलो पुराय लोक आतां उबो राविल्लो. एक सामकी सामसूम शांतताय थंय पातळिल्ली. दिसतालें, आतां दुसऱ्याच खिणाक हांगा मोटो अच्छेव जातलो. सगळो लोक महाराजांचेर झुडोन वयतलो. तांकां पेट्टले, खास्ती करतले. पूण ना. लोकां मदीं एक भयंकर अपेक्षाभंगाची निर्शेणी पातळ्ळी. स्रद्धेचो चिखोल जालो आनी लोकांचीं तोंडां काळीं पडलीं. वाचा बसली. एकएकलो फाटीं वळोन ओगी चलूंक लागलो. एके जमातिची रासवळ हार ! तिगेलो घोवय बायलेक थंयच सोडून लोकां फाटल्यान वचूंक गेलो.

* * *

---

## पिड्डुको

- आपणाक राजा मान. पूण जिये चार चौगां भाशेन.
- ख्यास्त करचे पयलीं माफ करूंक येता जाल्यार पळे.
- केदोय व्हड जा. पुणून एक गजाल विसरूं नाका, कोण तुजे परस ल्हान न्हय.

# नंदालो पोर हो

(आठवी खिस्त)

**सुमन्त केळेकार**

रामचन्द्र शणैक भुरगेंबाळ नाशिल्ल्यान ताका आपणाले इस्टेटिचो वारस म्हण पोसको भुरगो घेवचो पडिल्लो. पयलिंच्या काळार पोसको घेता तो घरचोच कोणालो तरी भुरगो आसतालो. रामचंद्र शणैन गिरिधर शणैले दुसरे बायलेच्या दुसऱ्या पुताक, श्रीनिवासाक पोसको घेवपाचें थारायलें. रामचन्द्र शणै उपरान्त श्रीनिवास हो केळेकार घराण्याच्या भाटां-बेसांच्या तिसऱ्या वांट्याच्या येरांसाचो धनी जाल्लो. गोंयांतल्या सरकारी नोंदणेंत आशिल्ल्या कांय थोड्याच धेंपो, कुंडयकार, केंकरो, गावणेकार सारक्या नांवाजत्या भाटकारां मदीं ताचोय आसपाव जातालो. ह्या म्हज्या पोसक्या आज्याक पळेल्ल्याची काय म्हाका इल्लीय याद जायना. एकवेळ, हांव जावचे पयलीं वा म्हज्या सामक्या भुरगेपणांतच तो भायर पडला आसतलो.

तो काळ भाटकारशायेचो आसलो. भाटकार म्हळ्यार धनीक, श्रीमंत हे नदरेन भौस ताचे कडेन जावं ताच्या कुटुंबा कडेन पळेतालें. शिनेबाब एक गडगंज भाटकार जाल्ल्यान खासा ताची नदरूय बदलून गेल्ली. घरच्याच मनशांक तो लागीं करिनासलो. ताका लागून केळेकारांच्या मूळ घराक जोडून ताणें आपणालो वेगळो वाटार वाडोवन घेतिल्लो. त्या वाटारांतल्यान मूळ घरांतले चवखेर येतलो जाल्यार एक ल्हानशेंच दार बसयल्लें आनी तें सदांच धांपिल्लें आसतालें. बारा माशीं केन्नाय गरज पडटा तेन्ना तें उकतें करून मूळ घरांत येवपाचें नाजाल्यार ताचो कोणाच लागीं चडसो संबंद ये नासलो. अचकीत, एका रातयां म्हणटा तशी ही पोसकेपणाची सोर्त लागिल्ल्यान ताची नदरूय बदल्लेली आसूंक जाय.

शिनेबाब सभावान बरो आसलो अशें सांगतात. पूण तो खुबच उणें उलयतालो. मुमखो म्हळ्यार जाता. ह्या ताच्या सभावाक लागून तो चार चवगांच्या लागसाराक केन्ना आयलोना. एकसुरो, एकमुळो जाल्ले वरी ताचें जिवीत जाल्लें. लग्न जाल्लें आसुनय भुरगेंबाळ नाशिल्ल्यान ताचे जिणेंतली खोसच ना जावन गेल्ली. तेन्नाचे भाटबेंसकार देवाक खूब भजताले. त्या नेमाक धरून शिनेबाबान आपणाल्या देवस्थानांत, बांदोडेंच्या महालक्ष्मीच्या प्राकारांत देवकार्या निमतान थंय वता त्या वेळार रावपा खातीर एक घर बांदिल्लें. आत्र्या पयऱ्यान महालक्ष्मीक पावता तेन्ना तो त्या घरांत रावतालो. अशें सांगतात की बांदोडेंच्या ताच्या रावतिक्यांत ताची नदर पडली ती चुनू नांवाचे देवतेचे सेवेक आशिल्ले एके बायलेचेर. चुनू ताका खुबच मानवलें आनी दोगांयची सामकी दाट इश्टागत जाली. ताचे खातीर शिनेबाबान लागींच आशिल्ल्या अलंगी भाटांत एक घरय बांदून दिलें. चिनू आशिल्लें रुपेस्त. देखणें इतलें की कोणाकय त्या रुपाची भूल पडची. शिनेबाबाच्या सहवासांत तें खुशालभरीत आशिल्लें. इतले म्हणसर एक दीस ग्वाल्हेरच्या काय खंयच्या तरी एका राजघराण्यांतलो कोणसो एक देवा दर्शनाक आयिल्लो. ताणें चुनूक पळेलें आनी तो पिसोच जालो. ताणें कळाव केलो ना. ताका जाता तितले बेगीन संस्थानांत व्हरपाची वेवस्था केली आनी चुनूनय राजघराण्याचे गिरेस्तकायेक भुलून, देवाक म्हण आयिल्ल्या त्या नवख्या मनशा वांगडा रोखडेंच प्रयाण केलें. शिनेबाबाल्या नशिबांत परतें एकसुरेपण आयलें.

चुनू वतकच शिनेबाबाली कांय तेंपान गांठ पडली ती लक्षुम्या कडेन. लक्षुमें गायनांत फिशाल आशिल्लें. मुंबयच्यान तें गोंयांत रावंक आयिल्लें. दिसतालें बरें आनी गायतालेंय खूब गोड. शिनेबाबा कडेन अखेर मेरेन तें निश्ठेन रावलें. म्हज्या भुरगेपणांत 'यो म्हज्या नातवा' म्हण म्हऱ्यांत ओडून म्हजी ताणें अपुर्बाय केल्ल्याची म्हाका बेस बरी याद जाता. तशेंच हांव मुम्बय गायन शिकतां हें ताकां कळ्ळां तेन्ना एक दोन चिजोय ताणें म्हणून दाखयल्ल्याची म्हाका विसराय पडूंक ना. शिनेबाबा परस पिरायेन तें जायतें ल्हान आशिल्लें जावंये. तें शिनेबाबा वांगडा पिरवोळा येवन रावलां. पूण ताची रावपाची वेवस्था चारचवगांच्या घरा लागसारच फाटले वटेन मुजरत बांदिल्ल्या घरांत केल्ली. केळेकारांलें घर आनी घरचीं मनशां पळोवन तें दिपकून गेल्लें म्हणपाची गजाल ताणें बांदोड्या वचनाफुडें शेजाऱ्यासामाऱ्यांक सांगिल्ली.

शिनेबाबान आपणाले कुडी-सुखा खातीर कोण एक बायल दवरली जाल्यार त्या काळांतलो लोक तें सभावीक मानतालो. पयसो आडको उपाट भरला आनी मन-रिझोवणेचीं दुसरीं कसलींच साधनां नात, अशा वेळार ती मन-रिझोवणी एकाद्री दुसरी बायल करूंक पावली जाल्यार तिका लागीं करपांत कितें वायट आसा, असोच त्या वेळा वयल्या सरसकट लोकांचो समज आसलो. ताणें तसले संबंद दवरले पूण ते लिपचोरयां न्हय. राजरोस दवरिल्ले. त्या काळार शिनेबाबा सारके जायते धनीक राजरोसपणान एकाद्री असली बायल दवरताले आनी फुडल्या जिविता खातीर तिच्या पोटापाण्याची वेवस्ताय करताले. असल्या संबंदां पासून जाल्ल्या भुरग्यांनी तांच्या बापायचें नांव वा कुळनांव लावपाक लेगीत तांचो आडमेळ नासतालो. शिनेबाबाक तसली संतत जाली ना आनी नांवां लावपाचो प्रस्नच उपरासलो ना. पूण त्याच काळार वामनबाब केळेकारालीं राधूगेर जाल्लीं भुरगीं आंकवार आसतना केळेकार हें कुळनांव राजरोस लावन मिरयतालीं. तें लावपाक वामनबाबाचो आडमेळ तर नाशिल्लोच. आनी कवतुकाची गजाल म्हळ्यार तीं मुम्बयसावन बी बांदोड्यां येतकच खासा वामनदादाची बायल सावित्रीव्हनी तांचे आवडिचे पनवार मुजरत करून मोट्या आगऱ्यान तांकां खावयताली, इतले हे संबंद जिवाळ्याचे आसताले. कोणाकच तेन्ना असल्या गजालिंचें अजाप दिसनासलें. ऊठसूठ भगल्यो मारपाचो जाल्यार तो विशयच नासलो.

शिनेबाबान आपणाले हयातींतच लक्षुम्या खातीर आपूण रावतालो त्या घरा शेजराच, देवतेच्या प्राकारांत एक बेस बरें घर बांदून दिल्लें. इतलेंच न्हय तर वरसाक पावतली इतले येणावळिचीं बेंसां ताच्या नांवार केल्लीं. लक्षुमें सदद्रां म्हणटालें, केळेकारान (शिनेबाबान) रावपाची आनी खावपा जेवपाची तजवीज केल्ल्यान आमी बरे भशेन दीस काडटात. तुमच्या कुटुंबाच्या उपकारांतल्यान आमी केन्नाच मेकळीं जावचीं नात. शिनेबाब भायर पडल्यार सत्तरेक वर्सां जायत आयलीं; तरी आयज हे घटकेक लेगीत

आमचे संबंद सामके लागशिल्ल्या सोयऱ्यां वरी आसात. लक्ष्म्यागेर आयज ताच्या नातवाचो संवसार चल्ला. पूण आमकां थंय वचून रावपाक परकेपण दिसना. आनी तांकां आमगेर येवपाक दिसना. अजुनय चवथीची परब आयली की ना, आमचें वजें तांगेर वता आनी तांचें आमगेर.

शिनेबाबागेर पोटचो वारस नाशिल्ल्यान रामचन्द्र शणै भशेन ताचेरय पोसको घेवपाची पाळी आयिल्ली. पोसको घेवपाचो पूण तो कोणाक हेंच नीट थरनासलें. शिनेबाब इल्लो साडेभावार्ती आशिल्ल्यान, येता तो कितें ना कितें सांगून ताचे कान भरतालो. मागीर तो आयचें फाल्यांर उडोवन वेळ काडूंक लागलो. अखेरेक ताचे मर्जेंतल्या कांय लोकांनी ताका पुंडलीक केळेकाराल्या म्हळ्यार ताच्या व्हडल्या भावाच्या दुसऱ्या पुताक पोसको घेवपाची सुचोवणी केली आनी ताका ती मान्य करची पडली. घारू तेन्ना लिसेवाक आशिल्लो. एक फावट पोसको थरतकच मागीर आनीक कळाव लेयलोना. पोसकेपणाचीं कागदां तयार करून, रेजिसिविलांत व्हरून तें सरकारमान्य करून घेतलें. हें सगळें घडलें तेन्ना शिनेबाबाची बायल पिरवोळच्या घरांत आसताली.

पोसको जालो तेन्ना म्हज्या बापायची पिराय ल्हान आसली. ताणें पुर्तुगेज शिक्षण केल्लें. ताचें भोवतेक शिकप कुंकळ्ळे मामागेर रावन ताणें केलां. लिसेवाचीं वरसां सोंपना फुडें लिंगु दळवी ह्या ताच्या मामान आदवोगासिची येजाम दिवपा खातीर तयारी करपाक ह्या भाच्याक आनी खासा आपणाल्या व्हडल्या पुताक, सुबूक सांगलें. दोगांयनी 'येजाम दे इश्ताद' दिवन ते आदवोगाद जाले. आनी दिप्लोम घेवन आपापणाल्या वाटारांत आदवोगासी चलोवपाच्या कामाक लागले.

शिनेबाबाची बायल पणजेच्या एका घरंदाज घराण्यांतली. बापायची एकलीच धूव. पूण दिल्ल्या घरांत तिच्या वांट्याक सूख नाशिल्लें. लोकीचाराची इल्लीय पर्वा करिनासतना, घरचे बायलेक पळेनासतना देवळाकडल्या छिनाल बायलांच्या नादाक तो लागिल्लो. ते भायर घरांत भुरगींय खेळ्ळीं नात. ह्या दोट्टी मनस्तापान तिका पिरवोळच्या ह्या व्हडल्या घरांत रावप लेगीत त्रासांचें जालें आनी तशातशी उठून तडक कुळारा वचून रावली. तिणें एके परीन केळेकार घराण्यालागीं आशिल्लो संबंद लेगीत सासणाचो तोडिल्लो अशें आसूं येता. आपणालें हकाचें घर सोडून कुळारा सासणाची रावंक गेल्ली ती परती घरा येवंक न्हय, अशेंच म्हणचें पडटलें. घरच्या अधिकाराच्या वांट्या खातीर घोवा आड तिणें देमांद चलयलो अशें आयकिवांत आसा, तेंय फट जावचेंना. हाचे वरसून ह्या घोव-बायलेचें बिनसून भगदाड पडिल्लें अशें म्हणचे परस ताचीं दोन पासणां जावन तीं दोन दिकांनी कोसळून पडिल्लीं अशेंच म्हणचें पडटलें.

म्हजो बापूय पोसको जाल्लो खरो पूण भाटांबेसांचे वेव्हार पळेतालो तो ताचो पोसको बापूय शिनेबाब. 'जा'न आदवोगासिचें कार्त घेतलें आनी तो नांवाजत्या अशा एक दोन आदवोगादांच्या हाताखाला रावन आदवोगासिची तयारी करूंक लागलो. गोमीश पेरैरी म्हऱ्यांत कांय तेंप रावन तो जायत्यो गजाली शिकलो. तशेंच भासुबाब सरदेसायां सारक्या अणभवी कायद्या जाणकारां कडल्यान पुर्तुगेजींतल्यान ड्राफ्टिंग करपाचे पाठय घेतले. अशे भशेन आदवोगाद म्हण कारकीर्द सुरू करता थंय आसा, इल्ल्यो इल्ल्यो ताच्यो जापसालदारक्यो वाडूंक लागिल्ल्यो.

'जा'चें पयलें लग्न जाल्लें युकणीस-वीस वरसांचो आसतना. माशेलांतल्या विठ्ठलबाब कामत हांचे चलये कडेन. तिका एक भुरगोय जाल्लो. पूण कसलें तरी वायट जावन वरस जावचे पयलीं भायर पडलो. आनी उपरान्त बायलय बाळंतरोग जाल्ल्यान चड दीस काडूंक पावली ना. घारू केळेकार धाकुटपणांतलो न्हवरो जाल्ल्यान कोणेंय तरी मुखार सरून ताच्या दुसऱ्या लग्नाची तयारी करूंक जाय म्हणपाचें कोन्यां रावपी काकबा प्रियोळकाराच्या घरांतलो जयवन्त प्रियोळकार हाका दिसलें. तो पाळ्ळीच्या दळवी कुटुंबाचो कोण तरी लागशिल्लो सोयरो जाल्ल्यान मंगेश दळव्याचे चलयेची सोयरीक घेवन केळेकारांगेर आयलो आनी 'जा'ची दुसरी बायल व्हडली दिवाळी जावन आयिल्ल्या पयल्या म्हुर्तार लग्न जावन रोखडीच केळेकारांल्या घरांत आयली. तुळशी हें तिचें कुळारचें नांव पूण केळेकारागेर ती जाली मुक्ताबाय. ह्या लग्नावेळारय व्हंकलेकाराचें बिराड कोनेंच्या प्रियोळकाराल्या घरांतच आशिल्लें अशें सांगतात.

हे वटेन आदवोगासी करूंक भायर सरिल्ल्या घारुबाबाक एका नव्यानच आयिल्ल्या संकश्टाक तोंड दिवपाखातीर आदवोगादां फाटल्यान नाचपाचो वेळ येता म्हळ्यार तें आयकतल्याक लेगीत खरें दिसचेंना. जाणटो जाता तसो शिनेबाबाचो घरा परसूय वरसांतलो रावतिको चड वेळ बांदोडेच्या घरांतच जातालो. देव देवस्पणय ताका खूब लागिल्लें. पिरवोळच्या घरांत ताणें परब-पर्वणी आसता तेन्नाच येवचें. त्या काळार ताचें भोंवप जातालें तें माच्युलांतल्यान. दोन जावं अदीक भोये तें माच्युल उबारून पिरवोळच्यान महालक्ष्मीक आनी परतें थंयच्यान पिरवोळा अशे तरेन घेवन येताले वताले. ही कसरत खुबच कश्टांची जाल्ल्यान बांदोड्या वता तेन्ना थंय तो गरजे भायर अदीक दीस रावंक लागलो.

शिनेबाबान पोसको घेता आसतना बऱ्या मनान घेतिल्लो अशें पळेतल्याक दिसनाशिल्लें. पोसको घेतिल्ल्या कुटुंबालागीं तो तितलोसो बरो चलनासलो. पोसक्याच्या भयणीं कडेन लेगीत तो मोगान उलयल्लो कोणें पळोवंक नासलें. व्हडल्या भावालागींय ताचें उलोवप बसप नाशिल्लेंच. म्हळ्यार एके परीन घेतिल्लो पोसको ताच्या मनांत भरूंक नासलो. तो ताका जड जाल्लो. हें पोसकेपण नुलार करपाखातीर कितें करचें पडटलें हाची आंखणी तो जाणटे पिरायेर करूंक लागिल्लो. पोसक्या आड ताचे कान भरपाक ताचे म्हऱ्यांत वचपी जायते जाण आशिल्ले. लागशिल्ले तशे पयशिल्ले. तांचें तरी संवसारांतलो वेळ काडपाक कसल्योय उचापती नासतना कशें जातलें? कोणाचेंय बरें जाल्लें पळोवंक नज असले कुड्डे आमच्या समाजांत जायते आसात. ताचो परिणाम असो जालो की 'म्हाका पोसकोच नाका' अशें तो जप केल्ले वरी एकासारको म्हणूंक लागलो. पोसको ताका पासको कसो दिसूंक लागिल्लो.

म्हज्या बापायक अपमानीत करपाची ही करणी आशिल्ली. ही अशी परिस्थिती येना फुडें बरे तरेन हाची मिटोवणी करपा खातीर जायते जाण शिनेबाबाक मेळूंक गेले. पूण बाणीर बोट जाल्ले वरी तो पोसक्या विशीं कित्याय कितें उलोवंक लागलो. म्हणटा म्हणसर हें केस्तांव त्रिबुनालार व्हरपा खातीर शिनेबाब मुखार सरलो आनी हां हां म्हणटां ताणें तें व्हेलेंय बी. ह्या असल्या प्रसंगार भाच्या फाटल्यान लिंगुबाब दळवी देव कसो उबो रावलो. ताणें बऱ्यांतलो बरो असो एक आदवोगाद करून ही केस चलोवपाचें थारायलें. केसिच्यो तारखो त्रिबुनालार लागूं लागल्यो. सगळें वातावरणच कितें म्हळ्यार विखाळ जावन गेल्लें. पूत म्हण पोसूंक घेतिल्ल्याकच बापूय ख्यास्त दिवंक पळेता, ही कितली लजेची गजाल! पूण बापायक निटायेर हाडपा खातीर पुतय कितें फाटीं रावलोना. निमाणें ते केसिचो निकाल लागलो आनी तातूंत

पुताक जैत मेळ्ळें. पोसक्याचें पोसकेपण नुलार करपाचें त्रिबुनालान मान्य केलेंना. इतलें हें जालें खरें पूण ताका लागून गरज नासतना मनां मात दुखावलीं. तीं परतीं सांदपाक जाता जाल्यार पळोवपा खातीर प्रयास केले ती व्यक्ती म्हळ्यार विठ्ठलबाब कामत. आपल्या जांवयाचें हीत सादपाची जापसालदारकी आपणाली हें वळखून तो आपूण जावन शिनेबाबाक मेळ्ळो आनी दोनूय व्हटांतल्या लोकांचो एकचार घडोवन हाडपांत जैतिवंत जालो. आनिकय एक बरी गजाल करपाची विठ्ठल कामतींची इत्सा आशिल्ली आनी ती म्हळ्यार शिनेबाब आनी तांचे घरकान्निचो एकचार घडोवन हाडपाची. पूण तिची बलायकी बरी नासता हें कारण कुळारच्यांनी सांगिल्ल्यान, तो ते संबंदान फुडें पावलच घालूंक पावलोना.

फुडें एक दीस दनपारा दोन वरांचेर पणजेच्यान एक खबर पावली, 'शिनेबाबाली घरकान्न आज फांतोडेर भायर पडली.'

ते उपरान्त शिनेबाबान आपणाली हार मान्य करून घरच्यो चावयो, भाटांबेसांचीं कागदपत्रां आनी हेर सगळें सामान काडून पोसक्याचे सुवादीन केलें आनी घरच्या सगळ्या जापसालदारकेंतल्यान तो निवृत्त जालो.

फुडलीं कांय वरसां ताणें बांदोडेंच्या घरांतच रावपाचें पसंत केलें. पिरवोळच्या घरांत चडसो आयलोना म्हळ्यार जाता. आतां ताची पिराय सत्तरेच्या घरांत पाविल्ली. ते भायर दम्याच्या विकारान ताका नाका जीव केल्लो. एक दीस सकाळींच निरोप घेवन एक मानाय पिरवोळा पावता. 'केळेकार आयज फांतोडेरच आमकां सगळ्यांक सोडून गेलो.'

शिनेबाबाल्या मरणा उपरान्त भाटांबेसां पळोवपाचो पुराय कारभार करपाचें काम आमच्या बापायचेर पडलें आनी ताका लागून ताचो आदवोगासी करपाचो बेत आपशींच गळसणून गेलो. वरसभरूय भाटांबेसांचेर नदर दवरुपाचें थारायल्यार तेंय उणें पडटालें. मागीर दुसऱ्या कामाक वेळ हाडटलो खंयचो, ही परिस्थिती. तशें जाल्ल्यान बापायन आदवोगासिचो विचार तकलेंतल्यान सामकोच काडून उडयलो आनी भाटां-बेसां आशिल्लो गडगंज भाटकार म्हण रावपाचेंच अखेरेक पसंत केलें. आनी कांय तेंपान ताचीय ताका संवकळ जाली.

रामचन्द्र शणैन श्रीनिवासाक पोसको घेतलो तेन्ना ताका दवरिल्लें विठोबा हें आज्याचें नांव. हें नांव सरकारी रजिस्टरांनी सोदलें जाल्यारच मेळटालें. लोक आनी घरचीं सगळीं ताका शिनो नाजाल्यार शिनेबाब म्हण वळखतालीं. तीच गजाल घारू ह्या नांवाची घडली. पोसको जालो तेन्ना ताका रामचन्द्र हें ताच्या आज्याचें नांव दवरिल्लें. पूण सदांच लोकांचे तकलेंत तो घारूबाबच उरलो. फकत ताच्या भुरग्यांचो तेर्म करता आसतना घारू बदला रामचंद्र हें नांव आयलें आनी हे भशेन भुरग्यांच्या नांवा वांगडा तें नांव थोडेंभोव घोळटिकेंत आयलें आनी लोकांक कळूंक पावलें.

शिनेबाब भायर पडले उपरान्त शिनेबाबाचो घराचो वाटार दादाल्या कुटुंबाक उकतो जालो. वासरेंतल्यान थंय वचपाक लागतालें तें सुपुल्लें दार तेन्नाच्यान चोवीसय वरां उकतें उरूंक लागलें. वासरेंतली आमची रांदची कूड ह्या नव्या वाटाराक आयली आनी जेवपाचें मात वासरेंतच जावंक लागलें. पुंडलीक शणैलें आख्खें कुटुंब हेच वटेन आतां रावंक लागिल्लें. ह्या सगळ्यां भितर आमच्या बापायन एक भोव बरी म्हत्वाची अशी गजाल केल्ली ती ही. रामनाथबाबाली, म्हळ्यार आमच्या बाप्पाली बायल, गोदावरीव्हनी जी इतलीं वरसां अज्ञातवासांत आशिल्ले वरी साखळे दत्ताबाब सुखठणकार ह्या आपणाल्या भावागेर रावताली तिका परती खाशेल्या तिच्या घरा हाडली. आमच्या बापायच्या बापोलयाची ती बायल. पूण आमीय तिका मावशीच म्हणटाले. ती आयली तेन्ना बाप्पा आकारच्या घरांत रावन मदीं मदीं घरा येतालो. तो येता तेन्ना तिची आनी ताची भेट जाताली. भेट जाताली अशें म्हणचे परस एकामेकांच्या तोंडार नदर पडटाली अशें म्हळ्यार समा जातलें. बाप्पा आयलो की आमी भुरगीं अजापान त्या दोगांय कडेन पळेतालीं. तांचें उलोवप बिलोवप कांयच नाशिल्लें. आनी उलयलीं जाल्यार तांकां विशय नाका? तांच्या त्या खंडीत जिवितांत विशयच केन्ना निर्माण जावंक पावलोना. कितेंय उलयतलो जाल्यारय त्या विशयाक तोंडय ना आनी शेपटीय ना अशी गत जाल्ली. दोळ्यांची भास उलोवपाची तांची पिरायूय उरूंक नाशिल्ली. ताका लागून उखलापिल्लें कशें मन जावन ती घुसमटून रावताली. ते भायर मावशी हांगा आयल्या त्या सुमाराक बाप्पा तकलेन सारको बरो ना, कित्याय कितें करता अशें ताचे सासायेंत आशिल्ले लोक म्हणूंक लागिल्ले. तेच भिरकेन एक दीस तो कोणाक कसली सुलूस लायनासतना भायले भायर उठून गावण्या वचूंक भायर सरलो. गावण्या गावणेकारागेर दिल्ले धुवडेची ताका खूब माया आशिल्ली. वरसांतल्यान कांय न्हय जाल्यार आठ धा फावटी तरी तो थंय वतालो आनी मनाक मारत तितले दीस थंय रावतालो. रगलेबाब ह्या जांवयाचें आनी ताचें पडटालेंय बरें. हे फावटी तो भायर सरलो खरो पूण त्या दिसा मीर्गाच्या पावसान अच्छेव आडायल्लो. गावण्या वचपाचें जाल्यार तेंय पायवाटेन जाल्ल्यान त्या तशा पावसांतच, वेलींग काडून तो फुडें गावणेचे वाटेक लागलो. हे वाटेर एक दोन व्हाळयो लागतात आनी त्यो काडून पेले वटेन वचपा खातीर वाड्या वयले लोक तांचेर माडये फोडे घालतात. ह्या फोड्यां वयल्यान चलून वचप कितें सोपें नासता. खूब जतनाय घेवची पडटा. पयल्या पावसाक लागून व्हाळयो तुटुंब भरून व्हांवताल्यो. आनी तरीय आसतना कसलीच पर्वा करिनासतना बाप्पान त्या फोड्यां वयल्यान पलतडीं वचपाचें धाडस केलें जातलें.

रातचो आकारा रामनाथबाब आयलोना म्हण चवकशी करपाक ताचे बरोबर दीसरात आसपी थंयचो भागेली पिरवोळा चवकशी करपाक आयलो, जाल्यार तो हांगाय येवंक ना म्हणपाचें ताका कळ्ळें. पयल्या दिसा सकाळच्या पारा भायर सरून गेल्लो मनीस पावलो तरी खंय, हाचो हुसको सगळ्यांकच जाल्लो. रोखडेंच आमच्या घरच्यांनी सक्काळीं उठून गावण्या धाडून थंय पावला जाल्यार पळोवया म्हण एकल्याक रवाना केलें. तोय न ना चो पाडो म्हणीत परतो आयलो. इतल्यान 'जा' म्हऱ्यांत म्हाड्डोळा साडे इकरांच्या सुमाराक, आकारचो तागेलो भागेली धांवत आयलो आनी ताणें ती दुखदेणी खबर ताच्या कानार घाली. बाप्पाचें प्रेत करंजाळचे मानशेक लागिल्लें. सकाळीं आठांच्या सुमाराक करंजाळच्यान म्हाड्डोळा बाजाराक आयिल्ल्या कोणें तरी ही खबर सांगली आनी ह्या भागेल्याच्या कानार पडली. ताणें कळाव केलो ना. थंयचीच भाड्याची एक सायकल घेवन ती धांवडायत तो करंजाळे गेलो आनी ताणें ताचें खरेंपण करून घेतलें. अचकीत खंयच्यान तरी अशी भोंवत फिरत आयिल्ली वायट खबर केन्ना फटिची जायना म्हणपाचें तो जाणा आसलो. कालची सांज आनी आख्खी रात उदकांत फुगिल्लें प्रेत जाता तितले बेगीन हाडून ताचो निमाणो विधी करूंक जाय, हाचें म्हत्व वळखून तें रोखड्यारोखडें घरा हाडपा खातीर वेलंगीच्या सय्यद ड्रायव्हराक निरोप धाडलो आनी दनपारचीं दोन अडेज वाजपाच्या सुमाराक सय्यदाच्या कामिन्यांवांतल्यान प्रेत घेवन आमचे भागेली आयले. आमकां भुरग्यांक प्रेता म्हऱ्यांत वचपाक मना केल्लें. घरांतले सगळे जाणटेले आनी हेर दादले थंय

घोळटाले. बायलां भितरले एकले मावशेक तितलें त्या प्रेता म्हऱ्यांत व्हरून बाप्पाच्या तोंडाचें दर्शन घडयलें. तिणें तें पळयलें आनी एक व्हडली किळांच मारून ती घुंवळ येवन पडटाशी जाली. तशीच तिका थंयची हालोवन बायलां सुवादीन केली आनी तांणी तिका व्हरून कुडींत न्हिदयली. गोदावरी व्हनयेच्या जिवितांतलो दुख्खाचो हो निमाणो प्रसंग. सूख तर तिच्या वांट्याक केन्ना आयलेंच ना. पूण आयिल्ल्या दुख्खांत तिणें सूख मानून घेतिल्लें.आनी तें आशिल्लें आयावपणाचें सूख. तेंय कसलेच चुरचुरे केले बगर काळान, दयामाया धरिनासतना ओडून व्हेल्लें.

प्रेत व्हरपाची तयारी जाता करतासर जायते जाण अन्त्यविधीक पाविल्ले. गावणेच्यान रगलो भावोजी जाल्यार दनपारां एकाचेरूच पाविल्लो. गांवांत आनी गांवा लागसाराक आशिल्ले सगळे लागशिल्ले आनी पयशिल्ले दायजी आनी सोयरे ही वार्ता कळनाफुडें रोखड्या रोखडे हाजीर जाल्ले. आपणाल्या भागेल्यांक तो बेस बरे तरेन वागयतालो. तांचीय झुंबड जाल्ली. निमाणें चारांच्या सुमाराक प्रेताची निमाणी यात्रा सुरू जाली आनी आयिल्ल्या सगळ्या जाणांनी मसंडिचे दिकेन पावलां घालीं.

फुडलें सप्तकभर दिसपट्टे कोणूय ना कोण मेळपाक येताले. हुंवारांत व्हांवन मेल्ल्यान तो आनीक एक उलोवपां वाडोवपाक विशय मेळटालो. जाका जशी ही वार्ता लागताली तसो तो खिणाची वाट पळेनासतना रोखडोच पिरवोळच्यांक जाप दिवपाक भायर सरतालो. पणजे जयश्रीआकाक कळ्ळें आनी तें आनी भावोजी तशातशीं गाडी करून भायर सरलीं. दोंगरे वयलो भावोजी आनी थापूआका जाल्यार दुसऱ्याच दिसा पावलीं. अशे तरेन सेमानभर सांत्वन करूंक आयिल्ल्यां कडेन उलोवंक करूंकच दीस सोंपले.

बाप्पांत थोडींभोव विक्षिप्तपणां आशिल्लीं. पूण पिंडान तो कश्टी आसलो. प्राप्ती आसा थंय तो पावतालोच. कोणालें ठिकाण खंडाक घेवपाचें जाल्यार तेंय तो घेतालो. मनीस धडपडी आशिल्लो. ताचो खूब जीव आशिल्लो तो दादाल्या भुरग्यांचेर. घारूक शिनेबाबाक पोसको दिल्ल्यान तो पयसावलो, अशें ताका दिसतालें. आनी व्हडल्या राजारामान वयर सरचें हे खातीर ताची धडपड चलताली. म्हाड्डोळा आंतोन मार्किशालें घर आनी बार आयज आमी पळेतां तें घर रामनाथबाब केळेकारालें आशिल्लें. राजाराम दोतोर जावन दोतोरकी सुरू करूंक पिरवोळा आयलो तेन्ना ताची दिश्पेंसारीय ह्याच घरांत सुरू केल्ली. केळेकाराल्या घरांतलो पयलोच दोतोरकी शिकून आयिल्लो दोतोर म्हळ्यार तो राजाराम केळेकार हे गजालिचो बाप्पाक खुबच अभिमान आशिल्लो. दादाल्या चलयां भितर कस्तुरें हें ताचें खूब मायेमोगाचें. संद मेळटा तेन्ना तागेर गेले बगर ताचो जीव थाऱ्यार पडनासलो. आनी अजाप म्हळ्यार, जिविताचे अखेरेक, कस्तुऱ्यागेर वचपाक गेल्ले कडेनच ताणें जीव वगडायल्लो.

(चलता)

---

# एडवर्ड एलिसन कमिंग्ज

## (e. e. cummings)

डॉ. सु. म. तडकोडकार

''हांवें 'कवी जावचें' अशें थारावंक नाशिल्लें. हांव सदांच कवीत करीत आशिल्लों.'' अशें अमेरिकी कवी एडवर्ड एलिसन कमिंग्ज (१८९४-१९६२) म्हणटाले.

तांचो जल्म मसेच्युसेट्सांतल्या कँब्रिज गांवांत जाल्लो. तांचो बापूय हार्वर्ड विद्यापिठांत अध्यापन करतालो. एडवर्डय १९१६त थंयच स्नातक जाले. तेदेवेळार तांणी थंयसर आधुनिकतावादी कलात्मक उपक्रमाच्या संबंदान एक झणझणीत व्याख्यान दिल्लें. एके तरेन तांणी ह्या व्याख्यानांतल्यान आपणाली लिखणी कसले तरेचो आविष्कार करतली ताचो संकेतूच दिल्लो अशें म्हळ्यार जाता. तांणी १९१७त कांय काळ नियमितपणान एके मेल ऑर्डर पब्लिशिंग कंपनिची सेवा केल्ली. तीच तांणी तांच्या जिवितांत केल्ली एकूच आनी निमाणची चाकरी म्हळ्यार जाता. पयल्या संवसारीक म्हाझुजा वेळार फ्रान्सांतल्या नॉर्टन-हार्जे हे संस्थेची रुणवाहिका तांणी चलयली. ते कबलात जाले उपरान्तय थंयच वावुरले. मजँगतीं ते तांच्या एका इश्टा वांगडा, आळ आयिल्ल्यान तिनेक म्हयने बंदखणींतूय वचून आयले. तांणी थंयच्या ह्या अणभवाचेर The Enormous Room ह्या माथाळ्याची एक नवलिका बरयली. हे नवलिके वरवीं तांणी वर्चस्ववादाचेर प्रहार केल्यात म्हणपाचें कळटा अशें एक मत्त आसा. तांणी पारिसांत कला विषयाचें अध्ययनय केलें.

तांणी वाचप्यांक फुडल्याच वर्सा Tulips and Chimneys हो कवितांचो झेलो ओंपलो. पूण ह्या झेल्याक प्रकाशक मेळोवपा खातीर तांचो सानपणासावनचो इश्ट जॉन दुश पॅसोक अपरिमित तकालस घेवची पडिल्ली. जॉन पेसो म्हणटात, *'ह्या कविची मानसिकता पूर्वतयारी न करपी व्यक्ती भशेन आशिल्ली... ताका ल्हान भुरग्यां वरी ख्रिसमस ट्री, तारे, हिमरोक, हती अश्यो साबार गजाली उत्तर अमेरिकेंतल्या इन्डियन्सांच्या धर्मचित्रां भशेन पवित्र दिसताल्यो. हांव ताचे वांगडा हिमवादळांत धांवूंक नाशिल्लों जाल्यार म्हाका वॉशिंग्टन स्क्वेअरांतल्या हिमसेकाचो आनंद गावचो नाशिल्लो. ताका हुंदीरय आवडटाले.'*

१९२५त तांचो XLI Poems हो कवितासंग्रह उजवाडाक आयलो. उपरांत Eimi (१९३२) हें तत्कालीन येवरोपी राष्ट्र सोविएत संघांतल्या प्रवासाचेर आदारिल्लें वर्णन करपी पुस्तक प्रकाशित जालें. ताचे पयलीं १९३१त तांचो रेखाचित्रां आनी रंगचित्रांचो एक संग्रह भायर सरिल्लो. ताचो माथाळो CIOPW (म्हळ्यार Charcoal, ink, oil, pencil, watercolour) अशें आशिल्लें. फुडल्या तीन दसकांत अशा चित्रांचीं न्य यॉर्काच्या रसिकांक प्रदर्शनां पळोवंक मेळ्ळीं. तांचे ViVa (१९३१), No Thanks (१९३५), Xaipe (१९५०) आनी 95 Poems हे फुडले कवितासंग्रह. Collected Poems (१९३८), 50 Poems (१९४०), IXI (१९४४), Poems 1923-1954 (१९५४), Selected Poems 1923-1958 (१९५८, १९६०), Complete Poems 1913-1962 (१९७२), 73 Poems (१९६३). ह्या रचनां वांगडाच तांणी दोन एकांकीय बरयल्ल्यो.

अशें आसूनय साहित्यीक वाठारांतल्या अभिजनां कडसून तांच्या रचनांचो वा तांचे तप्त नाममुद्रेचो स्वीकार सहजतायेन जावंक ना. निखट्या आपणाल्या आनी आपल्या अस्करांतल्या नांवांकच इतिहासांत थिराय मेळची म्हूण वावुरतले हेर प्रतिभावंतां कडेन बुद्धि पुरस्सर आडनदर करतात वा तांचेर हेतुपुरस्सर लेबलां दसयतात. कमिंग्जाच्या वांट्याक अशीच वंचना आयली.

दाव्या पंगडाच्या समीक्षकांनी कमिंग्जाची कविता म्हळ्यार भाववेगात्मक आनी राजकीय अरवळपण आशिल्ली शब्दरचना अशें म्हणून तिका भायरायली, अशेंय एक मत्त आसा. माल्कम कॉवलेन (A Second Flowering) हांणी कमिंग्जाचे कविते संबंदान म्हळां की तांची काव्यसोद कांय फावटी किंकोंत आनी व्यर्थ सो दिसता; परंत तांणी भौशीक भाशेची आस्पत वाडयल्या. हाचे वयल्यान तांची कविता, म्हळ्यार तांची काव्यनिर्मणेची पत समजून घेवपाची तकालस घेनासतना काव्येतर निकशांचो थातोमातो करपाचोच यत्न चड जाता, अशीं कांय मतां पळयतकच जाणवता. प्रतिभावंता कडेन आडनदर करपाच्यो कांय परी आसात, तांतुंतली ही एक.

कमिंग्जाचे पुर्विल्ले कवितेंत जिणेंतल्या च्यॉवच्यॉवपणाचो घेतिल्लो सोद प्रचितीक येता. तशेंच, मनशाक आदिमते सावन लाबिल्ल्या भोगरम्य अणभवांचीय प्रचिती येता. हो कवी शब्दक्रिडा करता तीय भावरम्यच. ताचे कवितेंत क्रियाविशेशणां नामां भशेन वावुरतात, कंसांचो जाय तसो परंत अर्थपुराय वापर जाता. कांय फावट तर कंसय पुराय जायनात पूण एके परीन तातुंतलो आशय जिणेचे अपूर्णतायेचोच संकेत दिता. सहजस्फूर्तीन पूण एकतर्फी नदरेंतल्यान संवसाराच्या एकोडेपणाचें, संचालीत जिणेचें आनी बुद्धिप्रामाण्यपुराय विचारांचें भावगीत आकाराक येता. ही शब्दक्रीडा मनांतले खोशये उमाळे, उत्फर्के आनी अवचीत स्वर एके आगळे कविता रचनेक आकारूंक मजत करता, अशें म्हळ्यार बरें.

"&" आनी "is 5" (दोनूय १९२५) ह्या पुस्तकांनी कमिंग्जाचे अभिनव शैलिचो परिचय करून दिलो. जॅझ संस्कृतायेचें पडबिंब ह्या रचनांत आसा अशेंय एक मत्त आसा. समकालिन भाशेचो अशिश्ट प्रयोग करप हें ते कवितेचें लक्षण. दोन-तीन उतरां एकठांय हाडून तांचो एक शब्द घडोवप, तातुंतलीं विराम-चिन्नां आनी शब्दमुद्रण करपाचे पद्धतींतल्यान दृश्य परिणाम सादप, अश्यो कांय पद्धती म्हळ्यारय एके तरेन शैलिची मोड म्हळ्यार जाता. खासा कमिंग्जान आपणाल्या नांवांत रोमी अक्षरमाळेंतल्या व्हडल्या (म्हळ्यार upper case - capital letters) अक्षरांचो उपेग करूंक ना हेंय लक्षणीयच. साबार अक्षरां माळेंतल्या सकयल्या (म्हळ्यार lower case - small letters) अक्षरांचो उपेग करून e. e. cummings अशें आपणालें कवीनाम घडयिल्लें. काव्यरचनेंतय तांणी हें तत्त्व बाळगिल्लें. तांची साबार कविता ही सकयल्या अक्षरांतच बरयिल्ली आसा; परंत तांणी अचकीत खंय तरी एकोडीं अक्षरां, वाक्यप्रयोग व्हडल्या अक्षरांत बरयिल्ले मेळटले. तांच्या कडव्यांनी कंस, अपसारण चिन्नांत निक्षिप्त शब्द, शब्दसमूह वा चरणांचो (parenthesis) शिंवर दिसता.

कमिंग्जाचे कवितेंतलीं फुडवीं चित्रशिल्प धारण करतात. तीं कवीक आयिल्ले अनुभूतिंतल्यान चिंतनाचें उगडापें स्वरूप धारण करतात. तांचे

कवितेंतल्या रुखावळिचीं पानां  तरंगत तरंगत धतरिर देंवतात.

ह्या कविच्या शब्दब्रह्मा संबंदान कॉवले म्हणटात, ''म्हाका खबर आशिल्ल्या आकाशभाषितां करतल्या साबारां मदलो हो आदिम तेजवंत कवी. ताणें स्वताचे रचनेंत उपेक्षावाद, शेरेबाजी, दोट्टी अर्थाच्या उतरांचो खेळ (कोटी), अतिशयोक्ती, हिसपाभायलीं रूपकां-उपमा हांचो उपेग केलो. तो घाळ जाल्ल्या चड्याच्या दायजांतलो.''

घडये आयजय ह्याच कारणां खातीर संवेदनशील वाचप्यांक इ.इ. कमिंग्ज ह्या नांवाचें अपरूप दिसता जावये.

१.

म्हज्या मोगा
तुजे केंस अशें एक राज्य
जंयचो राजा हो अंध:कार
तुजो भालप्रदेश तर फुलांचो सोपान

तुजें मस्तक शिटूक वनप्रदेश
भरून न्हिदाळिल्ल्या सुकण्यांचो
तुजें वक्ष-युग्म धवेंफुल्ल मुसांचीं मालीं
आंगाखांद्यावेलीं तुज्या
म्हजेखातीर तुजी काया आब्रिल म्हयनो
जिचे खांकेत आसता आगमन वसंताचें

तुज्यो मांडयो तर शुभ्र घोडे जुंयांक बांदिल्ले रथाच्या
राजांच्या
त्यो आसात उत्तम भाटांचीं काळजांत रिगपी रचना
तांच्या दरम्यान सदांच प्रसन्न गांधर्व

म्हज्या मोगा
तुजें मस्तक तर पेटूल
शीतळ रत्नाचें तुज्या अंतस्कर्णाच्या
तुज्या माथ्यावेलो केशकलाप तर योधयान
अजाण पराभवाचो
तुजो केशभार खांदार तुज्या म्हळ्यार सेना
जयोन्मत्त आनी तूर्यंधर

तुजीं पावलां सपनरुखावळ
जिचें फळ तर विस्मृततायेक सतावणीच
तुजे ओंठ आसात जावन प्राचीन पर्शियांतल्या
भोगाक संवकल्ल्या प्रांताधिकाऱ्यान न्हेशिल्लें शेंदरी कापड
जिच्या उमावांत तें भरसप राजांचें
तुजीं मनगटां
आसात मंगल
आसात जे राखणदार तुज्या रगताच्या नेमकेपणाचे
खुब्यावेलीं तुजीं पावलां तर फुलावळ व्हाजांतली
रुप्याच्या

रुपांत तुज्या कुचमण नक्षीकामांतली
तुजे दोळे तर तें विश्वासघातकीपण
घंटानादांचें आकलन जाल्लें तिडावपांतल्यान

२.

आगे म्होंवाळ स्वयंभू
धतरि कितले फावट
प्रेयस
बोटांनी
विषयलोलूप तत्त्वगिन्यानींच्या पिवळलें
आनी
धोमशिलें

तुका
खटी
आखाण्यान
विज्ञानाच्या कोंचलें
तुजें

[illegible] जायतेदां
[illegible]नी घेतलें
तुका तांचे हाडकुटे दिमयेचेर
आंवळून आनी

थापटावन तुका म्हणटकच तुवें गर्भ धारण
करचो
देवांचो
(परंत
सत् खरें
जाचेकडेन सर जावंक नज
ते शय्येकडेन मृत्यूचे तुजो सुषम प्रियकर

तूं प्रतिकार करता
तांकां फकत धरून
वसंत )

३.

**मा**नवते हांव मानतां तुका
कारण तूं भोव करून पॉलिश लायता त्या बुटांक
सिद्धीच्या जायणी घेवंचेपरस जाचो आत्मो हुमकळटा तांचे
घड्याळीचे सरपळेक जो पेंचांत घालता दोनूय

पक्षांक आनी कारण तूं
दमदारपणान करता वाहवा साबार
गायनांची जितूंत आसतात उतरां गांव घर आनी
मांय जेन्ना गायिल्ली पोरण्या हॉवर्डांत

**मा**नवते हांव मानतां तुका कारण
जेन्ना तुवें पयशांचे अडचणींत दवरिल्ली गहाण तुजी
प्रज्ञा घेवंक विकतें एक कॉपटेल आनी जेन्ना
तूं आसता उचंबळिल्ली अहंकार दवरता

तुका गहाणवटीचे पेढयेसावन आनी
तूं अनवरत व्रत चलयता
पिडावपाचें परंत भोवच
खेरीत तुज्या स्वत:च्या घराब्यांत

**मा**नवते हांव मानतां तुका कारण तूं
नित्यपणान दवरता गुपीत
जिणेचें तुज्या कलसांवांत विसरून
तें थंयच आसा आनी बसून सकला

ताचेर
आनी तूं सर्वकाळ कवीक करता मांडयेर
मृत्यूच्या **मा**नवते
हांव तुजो तिरस्कार करतां.

# क्रिस्तांव भौसांतल्यो दोन काजरा पद्धती

रोझी डिकॉस्ता

पुर्विल्ल्या आनी आर्विल्ल्या काळांतल्या क्रिस्तांवांच्या काजारा मदीं जायते फरक दिसून येतात. पुर्विल्ल्या काळांत काजरां चडशीं जाणटेल्यांनी केल्ल्या सोयरिकांनी जुळून येतालीं. पूण आतां चडशीं मोग करून जुळटात. आदल्या आनी आतांच्या काजरा पद्दतिंचीय तुळा केल्यार दिसता, फकत म्हत्वाच्यो कांय रिती बदलूंक नात. त्यो म्हळ्यार पाद्रीन चीट वाचप, काजराक कांय दीस आसात म्हळ्यार रोशी वा माटव घालप, देणें वरप, आदी. आदीं काजाराचो दांस हॉलांत जायनाशिल्लो. घरा भायल्यान माटव घालून नाचतालीं. दांसाक आयचे वरी 'बँड' नासतालें. संगिताचीं वादनांय वेगळींच आसतालीं. देखीक, दोलकीं, पेपारीं, कोरनेत, घुमटां, आदी.

गोंयांत क्रिस्तांवांच्यो वेगवेगळ्यो जाती आसात - बामण, चाड्डे, सुदीर, कुमरां, गावडे, म्हार, चामार आदी. एक एक जात हेर जाती परस वेगळी. दर एके जातिचे काजाराचे संस्काररूय वेगळे. देखी खातीर हांवें नुवें गांवच्या कुणबी वा गावडी आनी माजोड्डें गांवच्या सुदरां जाती मदल्यो काजराच्यो रिती घेतल्यात.

**नुवेंच्या गावड्यांची काजरा रीत:**

पुर्विल्ल्या काळांत गावड्यां मदीं काजरां न्हवरो-व्हंकल ल्हान आसतना करून उडयतालीं. चलयेक खबर नासतना तिची सोयरीक करून दवरतालीं आनी चलीय आवय बापूय तिका खंय काजार करून दिवंक सोदता थंय काजार जाताली. 'उतर दितालीं' तेन्ना ती चली कोणाच्याय घरांत कामाक - वावराक आसताली. चली म्हळ्यार आवय बापायच्या माथ्यार वजें कशें आसतालें. हाका लागून ती १०-१५ वर्सांची आसतनाच तिचें काजार करून उडयतालीं आनी ल्हान पिरायेचेर व्हडल्यो जापसालदारक्यो तिच्या माथ्यार घेवच्यो पडटाल्यो.

सोयरीक जाताली तेन्ना ताका '**अिडपण**' म्हणटालीं. म्हळ्यार, सोयरीक जाल्या म्हण खुशालकायेन न्हवऱ्याक आनी व्हंकले घरा कडेन येवपी न्हवरेकारांक अिडी, पान, डुमटी आनी सोरो दितालीं. न्हवरो व्हंकलेक पळोवंक येतालो तेन्ना खंय तो चली मानवल्यार ग्लासांत पयशे घालतालो.

सोयरिके उपरान्त रेसील करतात. पाद्रीक कळीत केले उपरांत तीन आयतार सेगीत पाद्री **चीट वाचता**. हाचे उपरांत न्हवरो व्हंकल दोतोनीक आप-आपले इगर्जेंत वतात. चीट वाचतकूच व्हंकलेक मामागेर व्हरतालीं आनी थंय ३ वा ९ दीस दवरतालीं. घरा परततना **चुडो** वा कांकणां घालून पावयतालीं. काजाराक तीन दीस आसात म्हळ्यार माटव घालतालीं. काजाराक फकत शीत, कडी आनी सोज इतलेंच आसतालें. त्या काळार भिकऱ्यां **जेवण** वा **देणें** अशें कांयच नासलें. आपलेच खोशयेन कितेंय जाय तें दितालीं. तें म्हळ्यार एकूच कापड आनी एक वाटी जेवपा खातीर आनी न्हवऱ्यागेर व्हरूंक दोन कापडां. एक साड्याचें आनी एक प्रतें व्हंकलेगेर वतना घालपाचें. न्हवरो व्हंकले देणें म्हण देण्याक पाटी पानां, सुपारी आदल्या दिसा दिवन धाडटालो. काजरा दिसा न्हवरो व्हंकलेक फुलांची दाली दितालो.

काजरा आदल्या दिसा रोस काडिनासलीं. पूण जिन्या झाडाच्या पानान तेल लायतालीं. रेसपेराक भायर सरतना पांच वस्तू लागताल्यो - बुडकुलो, कुयणें आनी तीन कळसुले. सगळेंच नवें. तातूंत उदक घालतालीं आनी दोवल्यान उदक घेवन व्हंकले आनी धेडये मुखार उडयतालीं. मागीर पानान तेल काडटालीं. न्हाले उपरांत धवी वोल न्हेसोवन व्हंकलेक इगर्जेंत व्हरतालीं. **रेसपेर** त्या काळार व्हंकलेचे इगर्जेंत जातालो. थंय लोकांक पेज दितालीं आनी मागीर व्हंकलेगेर भितर काडटालीं. पयल्या दिसा काजार व्हंकलेगेर जातालें. रेसपेराक चलून वतालीं आनी व्हंकल लजेन तोंड लिपयताली. काजराची कुरू म्हण न्हवऱ्याक मुदी घालतालीं पूण व्हंकलेक कांय दिनासलीं. व्हंकलेगेर लादीन सोंपले उपरांत जेवण आसतालें. न्हवरो व्हंकलेगेर जेवनासलो. धेडो आपल्याक आनी ताका वचून जेवण हाडटालो. न्हवऱ्यागेर वतना व्हंकले आनी न्हवऱ्याक बेसांवांक बसयतालीं. व्हंकल आपल्या सोयऱ्यांक कापडां दिताली. मागीर न्हवऱ्याच्या हातार सासमाय कापड दवरताली. व्हंकल आपले मांयक आंकवारपणाचें अशें कापड दिताली. हेच भाशेन न्हवऱ्यागेर बेसांवाक बसयतालीं पूण थंय तो आपल्या सोयऱ्यांक दितालो.

दुसऱ्या दिसा न्हवऱ्यागेर काजार जातालें. सगळो लोक चलून, वाटेर धोल वाजयत, कांतरां, मांडे म्हणीत वतालो. न्हवऱ्यागेर पावतकच सगळो लोक भायर रावतालो आनी व्हंकल-न्हवरो भितर सरतना न्हवऱ्याची मांय व्हंकलेच्या गळ्याक पिड्डुके काळ्या मणयांचो, मदीं भांगराचो मणी आशिल्लो मणी बांदून भितर काडटाली. मागीर लादीन, उपरांत जेवण आसतालें.

रातच्या वेळार भाणांत उदक घालतालीं आनी रिती प्रमाण व्हंकलेन सगळ्या हाजीर आसलेल्या लोकांक भाणांतलो एक एक तांबयो उदक काडून दिवपाक जाय आसलें. तांबयो परतून दितना घेवपी तातूंत पयशे घालतालो. ते पयशे धेडयो एकठांय करताल्यो आनी मागीर धेडयांच्या नांवान लोकांक सोरो आनी विडयो वांट्टालीं. व्हंकलेच्या हातांत पान-सुपारी दितालीं, तिच्या हातांतली ती न्हवरो घेतालो आनी वयर घराचेर उडयतालो. हाचे उपरांत जेवण जातालें. न्हवरो भायर बसतालो आनी व्हंकल भितर बसून जेवताली. उपरांत मांडनी आनी घुमटां वाजून दांस सुरू जातालो. दांस रातचो जातालो. तातूंत बायलो नाचताल्यो. नाचतना तीं व्हाणो घाली नासलीं. कांय जाण गायन करतालीं. नाचपी बायल-मनशेन आपले खातीर एक पांगुशें हाडचें पडटालें. नाचतना एक एकलेक भारूय येतालो.

चलयेगेर तशेंच चल्यांगेर काजार जातकूच रातचे जेवणा वांगडा वडे दितालीं. हे वडे सुरय पिठाचे, गोड आनी सोय घालून करतालें. हे वडे दादले करताले आनी बायलो ते उकडटाले. केळिच्या पानाचेर जेवप आसलें.

काजार सोंपतकच **शीम घालतात**. थंय सोरो उडयतालीं आनी मांडो म्हणटालीं. उपरांत लोक आपआपल्या घरा वेताले. पूण व्हंकल-न्हवरो मात रावतालीं. हाका **आपोणो** आनी दुसऱ्या दिसा तीं आपल्या घर

परततात ताका **पातोणें** अशें म्हणटात. ह्या पातोणे दिसा न्हवऱ्यान रशेचे, म्हळ्यार जो माटव रांदपा खातीर घालतात, ताचीं मल्लां ओडचीं पडटात. तीं ओडले बगर रशी मोडपाक जायना. जाण्ट्या मनशांचें हें एक शास्त्र.

**माजोड्डें गांवच्या सुद्रांची काजरा रीत :**

हांगा व्हंकल न्हवऱ्याक मानवली जाल्यार न्हवऱ्यान व्हंकलेक कितेंय भेट दिवपाची पद्दत आसा. हाचे उपरांत नोंदणी लग्न जाता. ह्या दिसा न्हवऱ्यान व्हंकलेक जी कितें वस्त दिल्ली आसता ती व्हंकलेन घालून येवपाची रीत आसा. उपरांत कांय दिसांनी सेगीत तीन आयतार इगर्जेंत पाद्री चीट वाचता. उपरांत व्हंकल मामागेर वचून उदक पियेता, जेवणाक रावता आनी उपरांत माम तिच्या हातांत कांकणां घालता आनी साड्याचें लुगट दिता (म्हळ्यार चकचकीत तांबड्याचेर धवेफुल्ल तिबके आशिल्लें लुगट).

सगळी काजराची तयारी जाली की मागीर व्हंकलकारां आनी न्हवरेकारां एकठांय जावन व्हंकलेक **रोप काडपाक** वतात. रेस्पेराचो धवो व्हिस्तीद, उपरांत साडो करपाक लुगट, मागीर धेडयेक लुगट, हेर रोप... त्याच दिसा ग्रिनाल्दु, बो टाय, लेर्स, घडयाळ, फूल, व्हेल, मागीर रेस्पेराक धवे सापांत आदी घेतात. सगळो खर्च न्हवरो करता. उपरांत भांगर करपाक शेटीगेर वतात. ज्योग, सरपळी, कानांतलीं आदी.

रोप शिंवपाची वेवस्था न्हवरो करता. रोप शिंवपाक दर्ज्याक घरा कडेन आपयतात. साडो कातरतना फोगेट्यो लायतात. सोयऱ्या-दायऱ्यांक कळयतात, तशेंच शेजाऱ्यांक आपयतात. साडो कातरतना एका ताटांत देवाक दान दवरतात आनी मागीर आयिल्लो लोकूय तातूंत कितेंय पयशे दवरता. हे पयशे मागीर दर्ज्याक वतात. हो साडो सोमराक वा ब्रेस्तारा कातरतात. हेर दिसांनी तो कातरपाक जायना अशें जाण्टेल्यांचें म्हणणें.

काजराच्या कांय दिसां आदीं भात उकडटात. हें काजाराचें भात. काजराचो दीस लागीं पावता तेन्ना **रोशी माटव** घालतात. ही रांदन घालतल्या मनशाक नाल्ल पोळी तशीच एक सोऱ्याची बाटली दिवची पडटा. काजरा दोन दीस पयलीं **दोस** करतात. ही दोस मागीर देण्या बरोबर व्हरतात.

काजरा आदल्या दिसा **भिकऱ्यांक जेवण** म्हूण घालतात. हें जेवण काजरा भाताचे जे तांदूळ करून हाडून पेटेंत भरिल्ले आसतात, ताचें. भिकऱ्याचें जेवण घरच्या 'आल्मां'च्या नांवान घालतात. भिकऱ्यां जेवणा आदले रातीं देवा मुखार मागणें करून दुदयाचेर कोयती मारपाची रीत आसा. मागीर हो दुदी दुसऱ्या दिसा भिकऱ्यां खातीर रांदतात. अशीय एक पद्धत आसा - भिकऱ्यान जेवणाक सुरवात केले बगर घरच्या लोकांनी चड करून व्हंकलेन, जेवपाक जायना. जेवणा पयलीं सगळीं भिकऱ्यां एकठांय जातात आनी तांच्या घराब्या पासत रोजार करतात. देवा धनयाची कृपा, शांती आनी सूख तीं मागतात.

भिकऱ्यां जेवणा दिसा व्हंकलेलें **देणें** न्हवऱ्यागेर व्हरतात. थंय पावतकच तें एका मेजार मांडटात आनी जायतो लोक तें पळोवपाक वतात. देण्या बरोबर मुदये बोशी म्हण गोडशें करतात. मागीर **मुदये बोशी** कातरून न्हवऱ्याच्या शेजाऱ्यांक वांट्टात. तशेंच, व्हंकले आवय बापूय वा घरचो कोणूय जाणटेलो न्हवऱ्याक मुदी घालता आनी हे मुदयेचे पयशे मेजतात आनी न्हवऱ्याक दितात. देण्या बरोबर वजीण म्हूण वेता. हे वजिणीक न्हवरो कितेंय पयशे दिता.

हे राती व्हंकलेक, न्हवऱ्याक तशेंच धेडो धेडी हांकां रोसान न्हाणयतात. पयलो रोस घरचे वडील म्हळ्यार आवय बापूय काडटात. मागीर भाव भयण, हेर घरचीं आनी सोयरीं-धायरीं काडटात. हो रोस काडटना रोसांत पयशे उडोवपाची पद्धत आसा. मागीर हे पयशे रोस काडटा ताका वतात. रोसाच्या वेळार वाड्या वयल्यो बायलो गितां म्हणटात. रोस लावपाची रीत न्हवऱ्या-व्हंकलेगेर सारकीच आसता. रोस लायतना गोश, नीळ, रंग लायतात. इतलेंच न्हय, तांतया पासून तकलेर मारून फोडटात आनी तोंडाक लायतात. गोश लायतात तेन्ना तांचीं तोंडां पळोवपा सारकीं जातात. तांकां आपलें रूप खबर नासता. पूण पळयता तो लोक हांसता. उपरांत तीं आपलो दिकावो फोटवाचेर पळोवन हांसतात. हाजीर आशिल्ल्या लोकांक पियेवपाक आनी दोस दितात. मागीर व्हंकल आनी धेडी न्हावंक वतात. माट्टुलांत उडयिल्ल्या पयशाचो खणखणीत आवाज आयकून रोस काडपी खुशाल जाता. रोस लायतना कांतारां सोबाय वाड्यतात. तांकां 'व्हेर्स' म्हणटात. भाण भरतल्यां खातीर व्हंकल भाणांत पयशे उडयता.

सकाळीं रेस्पेराचें मोटर येता तातूंत एक बायल, दादलो, चेडो, चेडूं आनी कोडां बायल येता. फोग लायतात. ती येतना सुटकेस घेवन येता. तर दुसरे वटेन न्हवऱ्याक धेडो न्हेसयता. व्हंकल तयार जाली की तिचीं आवय-बापूय तिका पयलीं बेसांव दितात आनी उपरांत हेर सगळीं दितात. हेच भाशेन न्हवऱ्याकूय बेसांव दितात. मागीर व्हंकलेचीं मांय-पाय तिच्या हाताक धरून तिका घरांतली भायर काडटात आनी मोटरांत बसून इगर्जेत वतात. न्हवरोय येता. उपरांत दोगांय इगर्जे कडेन भेट्टात. धेडो व्हंकलेक फुलांचो झेलो दिता आनी तिचो उमो घेता.

पाद्री भायर येता आनी पवित्र उतरां म्हणून तांच्या हाताक धरून भितर व्हरता. सगळो लोक उबो रावन तांकां येवकार दितात आनी इतल्यान मीस सुरू जाता. व्हंकल-न्हवरो आलतारा मुखार सदांच एकामेकांक विस्वासी रावतलीं म्हण **भास दिवन** मुदी घालतात. इतल्यान घांट वाजता आनी फोग जाता. मीस सोंपतकूच पाद्री तांकां आलतारा कडेन व्हरता आनी तीं एका बुकाचेर निशाणी करतात आनी दोग जाणांची गवाय म्हूण निशाणी करतात. हें जातकूच तांकां काजारांचीं परबीं दितात. तशें लोकां खातीर कितें तरी खावंक पिवंक दितात. उपरांत न्हवऱ्याच्या घरा वतात. थंय व्हंकलेक भितर काडपाक न्हवऱ्याची आवय तांकां दोगांयकूय धुपायता आनी व्हंकलेच्या गळ्यांत मंगळसूत्र घालता. एके रांड बायलेन हें करपाक जायना. भितर सरून तीं दोगांय मांदरेचेर दिमी घालतात. मागीर लादीन सुरू जाता. ती जातकच व्हंकल न्हवरो मांदरे पोंदा पयशे घालतात. ते मांदरी घालतल्याक वतात. सांजवेळार हॉलांत दांस आसता. तातूंत सगळो लोक जाती काती मानिनासतना नाचता. जेवण जातकच निमाणे कडेन न्हवरो सगळ्यां हुजीर व्हंकलेक कीस दिता. पूण हो ताका सोंपेपणीन घेवपाक मेळना. कारण न्हवऱ्या लागीं धेडो आनी व्हंकले लागीं धेडी आसता. तीं तांकां एकामेकां कडेन येवंक दिनात.

दुसऱ्या दिसा व्हंकल मांयच्या घरा रावंक वेता. ताका **आपोणें** म्हणटात. व्हंकल शालू न्हेसता. तांबड्या रंगाचीं कांकणां घालता. तांचे बरोबर लोक येतात. लादीन करतात. ते राती व्हंकल-न्हवरो रातचीं थंयच रावतात आनी दुसऱ्या दिसा आपल्या घरा परततात. न्हवरो आपल्या पयजामांत पयशे घालून दवरता ते धुतल्याक वतात. व्हंकलूय आपले पयशे दवरता.

ह्यो दोनूय जातिंच्यो रिती पळेल्यार दोनांय भितर फरक दिसून येता. आतांच्या काळार मात ह्यो सगळ्यो रिती कोणूच पाळिनात.



# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

एप्रील आनी माय हे दोनूय म्हयने म्हजे फोल्गां मारपाचे.
शिकप चलतालें तेन्ना सुटयेचे दीस म्हूण फोल्गां मारतालों.
उपरांत शिकयतालों तेन्ना फेरयाद देखून फोल्गां मारलीं.
सद्या शिकपूय ना आनी शिकोवपूय ना. उरल्यांत तीं फोल्गां.
पूण कितें कोण जाणां, नव्या सहस्त्रकांत जिविताक गांभिर्यशें आयलें.
दिसूंक लागलें, हांव जें फोल्गिस्त जिवीत घालयतां तें समा न्हय.
तें सुटके झुजाऱ्यांक बी कोंताक येता. एक तर तांकां पेन्शन आनी सवलती
मेळटात. आनी दुसरें म्हळ्यार तांणी हे आदीं केलां तें खूब जालें.
आतांय तांणी आदले वरी होमखणांत घालून घेवंक जाय अशें ना.
तरी कांय जाण हांगा थंय अजून बोवाळटात.
आसता एकएकल्याचें देशप्रेम सुस्त बसूंक दिना असलें.
आमचे सारके तरणाटे मात हांगा फोल्गां मारतात.
हें फोल्गिस्त जिवीत म्हळ्यार खरें जिवीत न्हय
असोसो कितें साक्षात्कार जालो आनी हांव गंभीर जालों.
मनशाक जिवीत एकदांच मेळटा देखून तें मुल्यवान.
(हेर जिवांक तें परतून परतून मेळटा काय? मेळूं बाबड्यांक.)
म्हाका मेळ्ळां ताचो योग्य उपेग ह्या नव्या सहस्त्रकांत करतलों.
तरी पयले कांय दीस नूतन हजारक मनोवंक गेले.
मागीरचे दोन म्हयने 'आरे, हांवें कितें केलें ' हें चिंतूंक सरले.
इतले म्हणसर एप्रील म्हयनो कोंकणी संमेलन घेवन आयलो.
तशें पळोवंक गेल्यार म्हाका तातूंत व्हडलोसो पार्ट नाशिल्लो.
जाय जाल्यार करपा सारकीं जायतीं कामां आशिल्लीं.
पूण हांवें चिंतलें, नव्या दमाच्या भुरग्यांक करुंदी कितें तें.
तांकांय फुडाराक असलीं जायतीं संमेलनां घडोवचीं आसात.
आमच्या दोळ्यां मुखार संवंय लागता ती बरी तांकां.
तरी संमेलनाच्या हुसक्यानूच पुराय म्हयनो सरलो.
तेन्ना मायां म्हयनो तरी हातचो घालोवप ना असो निश्चेव केलो.
निश्चेव केलो खरो पूण करप कितें तेंच कळना जालें.
शेवटाक थारायलें, हो म्हयनो स्वाध्यायाक राखून दवरप.
कोंकणींतलो एक बरोऽसो लेखक वेंचून काडप.
ताचीं पुस्तकां बारकायेन, खोलायेन म्हणटात तशीं वाचप.
जमता जाल्यार एकेका पुस्तकाचो आपरोस काडप.
माया म्हयन्यांत आपरोस काडपूच खरें म्हळ्यार योग्य.
तेंच आमच्या थळाव्या वातावरणांत सामकें फीट बसतालें.
आमच्या वाटारांत कोण ना कोण कसलो तरी रोस काडटात.
कोण घोटां, आंब्यांचो आमरोस काडटात.
तर कोण पणसा रोस काडून साठां घालतात.
काजूरोस काडप तर सगळ्यां आदीं सुरू जाता.
ह्या सगळ्या रोस प्रकरणांत म्हजो डायरेक्ट संबंद नाशिल्लो.
येतालो तो इनडायरेक्ट. हुर्राका कडेन, साठां कडेन बी.
हांव म्हजे म्हाका साहित्यिक लेखतां देखून म्हजो संबंद साहित्याच्या
आपरोसाक लागीं. माया म्हयनो तेच पासत राखून दवरून आलमार उगडली.
खूब दिसांनी उगडिल्ल्यान जल्ल्यांनी आकांत केलो.
पुस्तकांनी राविल्ल्यान तांचे मदीं साहित्यिक गूण आयले आसूं येता.
आलमारिचो खण म्हळ्यार संमेलनाचो माटोव समजले आसतले.
त्या आनी अप्रबुद्दांक कितें मारतलों? धांवडावन घाले.
आलमार आरती परती करून हांव बरोसो लेखक सोदूंक लागलों.
रवीन्द्र केळेकारांचीं पुस्तकां हाता लागींच एकठांय आशिल्लीं.
पूण स्वाध्याया खातीर त्या पुस्तकांक हात लावपाचें धाडस जालें ना.
जेन्ना जेन्ना तांचीं पुस्तकां वाचल्यांत तेन्ना त्रासांत पडलां.
'ब्रह्मांडांतलें तांडव' वाचलें, आठ दीस मान मोडून घेतली.
म्हजो सभाव म्हळ्यार पुस्तकां निखटीं वाचून सोडप ना.
तीं वाचप, मनन करप आनी एकाद्रो विचार आचरणांत हाडप.
हालींच 'ओथांबे' हातांत पडलें आनी हांवें तें वाचलें.
तातुंतले ओथांबे वाचून जातात तसो म्हजो सभाव बदलतालो.
'स्मायल' कवितेवेल्या ओथांब्यान तर सामकेंच परिवर्तन जालें.
म्हजे कडेन लोकांक दिवपा खातीर आशिल्लें तें फकत हेंच.
तशें नाय म्हळ्यार दिवपा सारकें म्हजे कडेन साहित्य आसा.
पूण घेवपीच तें अश्लील म्हूण म्हजो जाहीर निशेध करतात.
अशा वेळार हांवें साहित्य दिवप म्हळ्यार आपलेंच हांशें करप.
ते परस ह्या खिणा सावन हेरांक दिवप तो मुमुरखो हांसो.
पूण पुस्तक वाचतालों तो सामके मध्याने रातीर.
कोणाकूय उठोवन तांकां ह्या वेळार स्मायल दिवप बरें दिसलेंना.
हांवें हारशांत पळोवन म्हजे म्हाकाच स्मायल दिलें.
जागरणाक लागून म्हजें मुखामळ विचित्रशें जाल्लें.
तातूंत खाड-मिशयो पिंजारून अस्ताव्यस्त जाल्ल्यो.
हरशीं म्हजे पद्धतीन त्यो टापटीप दवरतां तेन्ना लेगीत हेर भियेतात.
आतां म्हजेंच रूप आनी स्मायल पळोवन हांवूच भियेलों.
म्हळें आतां आसूं. सकाळीं उठून सगळ्यांक हांसो दिवपाचो.
सकाळीं उठलों आनी पयलीं कोण मेळटा काय पळोवंक लागलों.
म्हजी आवय आपलो पूत उठलो म्हूण जाता नज करून उठूंक लागली.
ती उठ्ठा आसतनाच हांव तिका पळोवन मुमुरखोच हांसलों.
'हांसात. हांसात म्हाका. तुमकांय कळटलें जाणटेपण येतकच.'
चड उलोवपांत अर्थ ना म्हूण हांवें तिका माफ केली.
पणजे वचूंक वतना बांबोळे हॉस्पिटला कडेन पावलों.
हॉस्पिटल म्हणटकच कोण वा कोणाचो कोण दुयेंत आसताच.
बाबड्यांनी नर्सिचो आनी दोतोरांचो हांसो केन्ना देखलोना.
म्हळें, म्हज्या हास्यांतल्यान सूख मेळटा जाल्यार मेळुंदी.
म्हजें कितें वतालें? हांसपाक कांय दुडू पडनाशिल्ले.
ज्युस्त त्याच वेळार सोमनाथ आनी मावीन थंयच्यान भायर आयले.

रातचे हॉस्पिटलांत न्हिदून सकाळीं पोलीस कोठयेंत वताले.
'आतां हांसता? जायराती मागूंक येतना कोलो कसो येतालो मरे!'
'कांय नज. थोड्या दिसांनी परत येतले. दिवाळी काय पयस ना.'
अशें म्हणिल्ले वरी दोगूय दांत-वोंठ चाबीत म्हाका पळयत गेले.
आतां जाय आनीक म्हाका कोणाक हांसो दिवंक?
हांसपाक दुडू पडना जायत पूण जायरातिंचे दुडू येतात न्हय?
तेन्ना हांवें थारायलें, हें आचरण काय म्हाका पचपाचें ना.
मनशान चरण पळोवन आचरण करूंक जाय.
स्वाध्यायाक होच लेखक वेंचून काडलो जाल्यार हांव सोंपलों.
समाजांतल्यान वयलेच न्हय, सकयले लेगीत उंवाळून घालतले.
हे आदींच कोंकणीवाद्यांनी अपप्रवृत्तिचो म्हूण म्हाका कुशीक उडयलाच.
पुस्तकां चाळटां चाळटां अनाचें 'घुमचेकटर घूम' हातांत पडलें.
तें इतलें बारीक की हेर पुस्तकां मदीं म्हाका केन्नाच दिसूंक नाशिल्लें.
असलीं बारकेलीं पुस्तकां हांव जाड पुठ्ठ्यामदीं घालून दवरतालों.
अभयकुमाराचें शणै प्रकाशन सुरू जाल्ल्याक अशें चलतालें.
फुडें फाटीं साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळ्यार सोदचें पडचें न्हय म्हूण.
'घुमचेकटर घूम'य त्याच समाजांत आसूंक जाय आशिल्लें.
कशें कोण जाणा, मोठ्या पुस्तकांनी म्हळ्यार वयल्या समाजांत पावलें.
म्हळें, बारीक जालें म्हूण कितें ज़ालें? हेंच स्वाध्यायाक घेवंया.
चौसस्ट सालांत भुरग्यां खातीर म्हूण घुमचे कटर घूम काडिल्लें.
चौसस्ट साल म्हळ्यार हांव तेन्ना फकत सात वर्सांचों.
'जय जय महाराष्ट्र माझा' वाजयत वचपी गाडयां फाटल्यान धांवपी.
त्या काळार हें पुस्तक हातांत पडिल्लें जाल्यार कांय आकळपा नाशिल्लें
वो तें योग्य काळार हातांत पडपाचें संचीत आसूं येता.
घडे भरले बगर वडे हातार पडनात म्हणटात तें फट न्हय.
पुस्तक हातांत घेवन ताचेवेलें रंगीत मुखचित्र तोखेलें.
तोखेतां तोखेतां लायट पेटली. आरे, हो तर कोंकणीचो इतिहास.
मुखपृष्ठार दिसपी लोक काय त्या काळावेले कोंकणीवादी न्हय.
ते जर आशिल्ले जाल्यार मेजून इकरा जाण आसपाचे.
धोलार तोणी मारपा बदला बडी घेवन बडोवपाचे.
अनान नक्कीच कोंकणी चळवळ भौजनांची हें पारखिल्लें.
देखून चित्रांत धोल दिल्लो जानूचे फाटीर.
तो बडय बडय बडयतालो रिवणाचो शांतू
तासो गळ्यांत घालून ताणसयतालो कोण तरी रवळू.
सगळें कोंकण्यांचेंच जावचें न्हय म्हूण सामेळ लाद्रू कडेन दिल्लें.
कविसंमेलनांत एकटोच जेस वा पोब्र आसता तसो.
कुशीक दोग जाणं भुरगे हातांत लेंस घेवन उडणां मारताले.
ती भौतेक कोंकणीची फुडली पिळगी आसूं येता.
व्यासाचें महाभारत तशें शें कितें हें अनाचें घुमचेकटर दिसलें.
महाभारतांत जशें सगळें आसा तशें घुमचेकटरांत सगळें आसा.
हातूंत ना तें कोंकणी समाजांत आनीक खंयच मेळचें ना.
पुस्तकाचो आरंभ माजराच्या हळदकुकमान जाला.
हळदकुकमाक खेतें, चिचोंदर लेगीत हांगा येता.
हाचेवेल्यान हळदकुकमाक माजर भेदभाव करिना.
पूण एक खटकता तें बुकलो फकत माजराक शालू दिता.
खरें म्हळ्यार बुकल्यान खेत्याक लेगीत तो दिवंक जाय.
भोवतेक बुकल्याचे पांय अनाक पाळण्यांत दिसले नासुंये.
भिकू म्हाल्याचें चित्र अनान बेस बरें चितारलां.
कोंकणी चळवळ आसा सर भिकूक मरण ना.
शेर्कुल्याची सवत म्हळ्यार कोंकणीचो पारखिल्लो फुडार.
अशें जावपाचें आसा हें अनान तेन्नाच पारखिल्लें.
हाचे वेल्यान अना कितलें पयसुल्लें पळेतालो तें कळटा.
सवत प्रकरण कुशीक काडून कोंकणीचो इतिहास पुराय जायना.
शाली-पेद्रूची व्हाड्डीक हें एक व्हडलें इतिहासाचें पान.
ताळगांवचो पेद्रू तोपी घालतलो हें अनान आदींच वळखल्लें.
ह्या प्रकरणांत धार्मिक एकवट बेस बरो उकतो जाला.
गोपाळभट आसा तशें कदेला खातीरचें झगडें आसा.
शाणू पसरकार म्हळ्यार कोण तें रोखडेंच कळून येता.
पूण गोपाळशेट हो गोपाळशेट नासून बोवाळशेट आसूंक जाय.
अनाचें बोवाळशेटिचेर इतलें प्रेम कित्याक तें कळना.
कोंकणीच्या मळार झगडीं जावपाचीं आसात हेंय ह्या पुस्तकांत मेळटा.
खतखतें हे कवितेंत वयलेचाराक आमकां खतखतें दिसता.
ती कविता खरी म्हळ्यार बऱ्या समिक्षकाच्या हातांत पडूंक जाय
जाल्यार सगळीं झगडीं आपशींच उक्ताडार येतलीं.
केळफूल, कोंकणदुदी, पोपाय, निरपणस, घोंसाळें, गाजर
आनी सगळ्यांक ओगी करपी धोंदयो दुदी कोण तें कळपाचें.
कोंकणी मनीस एकामेकाचीं कुतां कशीं काडटा तें समजुपाचें.
हें सगळें हांव बारीकसाणेन पळयतां तेन्ना एक म्हाका कळ्ळें ना.
'झगडें' कवितेंत मेज आनी कदेल हांचें झगडें कित्याक जाता?
खरें म्हळ्यार तें जावंक फावना आशिल्लें.
म्हणजे कोंकणी मनशाचो तसो सभाव न्हय.
मेज आनी कदेल एकामेकार पांय दवरिल्लीं दिसनात.
मागीर थंय मेजान कदेलाचो हात मोडपाचो प्रस्नूच येना.
ते भायर तिनखुरी स्टूल मेजाक फूल कित्याक म्हणटा?
गोंयांत तर मेज कदेल सगळीं मायेमोगान दीस काडटात.
तिनखुरी स्टूल एका काळार मेजाक फूल म्हणटालें.
पूण तेंय वचून आतां मेजा कुशीक बसलां.
सगळ्यांक सामावन घेवपा खातीर वल्तेरूय मेजा लागीं आसा.
सगळे एकामेकांक समजून घेतले हें तेन्ना अनाक होलमलें ना काय?
आसूं! सगळेंच पारखणें सारकें जाता अशें कांय ना.
फकत म्हजी हरकत आसा ती निस्त्याच्या नाटकाक.
कळंगुटची शेंवटाळी, मुरगांवची मुड्डशी बरी आसा.
बांदोडेचो दोवलो शिरोडेची कायल तशेंच हें.
पूण अनान आगशीचो शेंवटो अशें कित्याक म्हणचें?
म्हजो जल्म आगशी जालो पूण अजून शेंवटो खालोना.
काय अनाक आगशी एक शेंवटो आसा हाची सुलूस लागिल्ली?
शेंवटो उडटा हें खरें, पूण तो स्टेजमास्तर जावं येता?
विचारचें पडलें अनाक.
नातर पुस्तक स्वाध्यायाक घेतिल्ल्याचें पिकासांव जातलें.

* * *

## तो आनी हांव

शंकर रामाणी

सरभोंवतणी
दाट्ट
खर दोळे-फुटको
बिण्ण
भिरांकूळ देंवचारसो लांब रुंद
काळोख
आनी खंयच्याच खोपटांत
लापयांव वा पेत्रोलाच्या
दिव्याचो उजवाड लेगीत झळकनाशिल्ल्या
आडवळणी,
कर्मकट्ट्या वाठारांत,
पुराय भान शेणिल्लो हांव झप झप
एकलो, एकसुरो
चलत रावतना म्हज्या
सादूर, शिटूक कानार लागसार सावन
मायेचे ओलसाणीन भिजिल्लीं
अनवळखी
उतरां अवचित आदळ्ळीं:
''कोण गा?
खंय चल्लो भर उमाशेच्या काळखांतल्यान?''
हांवें फाटल्यान वळून
पळेलेंच ना.
इतलेंच, ताका आयकूंक
येवंचें म्हूण पुटपुटलों:
''फाटलें-फुडलें कांयच होलमना
इतलो काळो कुड्डो काळोख;
जाल्यारूय म्हज्या
हड्ड्यांतल्यान फुटिल्ल्या
उजवाडाच्या वझऱ्याच्या सांगाताचे
सासायेन हांव चलत रावलां...
म्हज्या पयसुल्ल्या गांवाचे दिकेन...''

ताची म्हजी
वळख-देख ना.
देखून -
तो कोण?
खंयचो?
खंय रावता?
कितें करता?
हांव साप्प नेणां.
आनी
हांव कोण?
म्हजें नांव-गांव
कितें कात करता हाची
लेगीत म्हाका
मातय खबर ना.

१४ मार्च २००१

## मोनो बसूंक दी आतां

शरतचंद्र शेणै

मागूं नाका रे कविता
मोनो बसूंक दी आतां -
झोड आयलो, हुंवार आयलो,
जालो भुंयकांप आकांताचो -
रोखड्या रोखडीं कवनां करूंक
हांव कितें, खबरां चॅनल?
पिठ्ठो जाल्ल्या घरांक कित्या
उतरांचें पांगरूण?
वांचलेल्यांक जाय कितें
अनुप्रासांचें सॅकरीन?
उतर आतां फुटून येना
आसून माका खंत ना -
उणो थोडो पैसो तरी दिवंक पावलां
एक बोत्तल रगत तरी दिवंक पावलां -
सारखी वळख ना तशा
कुड्डो आनी भेड्डो कशा
एका म्हज्या देवाकडे
शीण काडीत लडूंक पावलां
दुकां गळयत झगडूंक पावलां -
काळखे राती दिवे पालोवन
वरा वरांनी एकटो बसून
काळखांतल्यान वाट काडीत
म्हज्यांतल्या मनीशपणाक
ऐन वेळार वळखूंक पावलां.

# मातयेच्यो कविता

बाळकृष्णजी कानोळकार

१.

मूठभर जिवाक
पोसोभर कुसवो जाय

वेंतभर पोटाक
हातभर आसरो जाय

मेले उपरांत आनी मळबभर
मूठभर
माती जाय

२.

बुडकुल्यांतलें झाड हांव
खातां पितां मजेंत आसां
हांसतां धोलतां फुलतां नाचतां
कस्ट कसलेच ना चिंता

बायल भुरग्यांक घेवन घरकार
एक दीस दुरार वता
भायर भितर लॉक करून
फ्लॅट आनी हांव उरतां.

तानेन तान
भुकेन भूक
जीऽव
तलखलता
हांव -
सोदतां
सोदतां ऽ

सोदतां उदक
सोदतां वल
सोदतां माती
सोदतां नातीं

बुडकुल्यांत मुळां म्हजीं
कुट्टल्यांत
पयली वयली शक्त म्हजी
गळसणल्या

सुर्या माथ्यार
पावता ऽ
आनी म्हाका
प्रस्न पडटा
म्हजी माती खंयची ?

३.

म्हजी माती खंयची ?
खंयची तुजी ?

आलतडीं हांव
नि
पलतडीं तूं
आमचे मदीं
आनी उबें
प्रस्नचिन्न !

सगळोच काळोख
दाटून आयला ?
घनदाट !
धाय दिकांतल्यान

बरें जालें.

पावस पट्टलो सो दिसता

पावस पडलो कीं
कळटली
खंयची माती तुजी
नि खंयची म्हजी ती.

४.

मातयेन माती खंटली
मातयेन माती उबाल्ली
मातयेन माती रचली
मातयेन माती मेळयली
मातयेन माती केळयली
मातयेन माती वेंगयली

मातयेन माती मातली.

५.

मळबापोंदा
मळबापोंदा
मातयेक माती
लागसर
करची आसा
सर्कस
सुकुसुकु, कुसूकुसू
कसकसता हड्ड्यांत
कोणाक वार्ता ?
कोणाक खबर ?
दरिया में खसखस !

६.

म्हजी माती
आनी
हांव

आमचे मदीं
जाणविकाय

बुडकुल्याची.

बुडकुल्यान म्हाका
असो
म्हजे मातयेपसून
पऽयस व्हेला
आतां हांव
वाट पळयतां.
बुडकुलो फुटपाची.

मातयेक माती मेळपाची.

७.

मातयेंतसून आयलो
मातयेंत गेलो
खंय गेल्लो ?
खंय ना.
कितें हाडलें?
कांय ना.

८.

मातयेंतल्यान माती काडली
उरली माती
मातयेंत माती मेळयली
मेळ्ळी माती.
ॐ मृदमदः मृदविदम्
मृदाद्मृदमुदच्यते ।
मृदस्य मृद्मादाय
मृद्मेवावशिष्यते ॥

# शेवण्याचें चित्र रंगयतना

**मूळ फ्रँच : इयाक प्रेव्हेर**
**अणकार : परेश नरेंद्र कामत**

पयलीं एक पांजरो रंगय
उगडें दार आशिल्लो
उपरांत रंगय
कितेंतरी गोमटें
कितेंतरी सादें
कितेंतरी सोबीत
कितेंतरी उपेगाक पडसारकें
शेवण्याखातीर.
मागीर कॅनवास झाडालागसार व्हरून दवर.
एकाद्रे बागेंत
एकाद्रे रायेंत
वा एकाद्र्या रानांत.
झाडाफाटल्यान लीप.
मोन्यांनीं
हाल-धोल नासतना
केन्ना केन्ना शेवणें रोखडेंच येता
केन्ना केन्ना वर्साचीं वर्साऽ घेता
येवपाचें थारावचे पयलीं.
नाउमेद जावं नाका
वाट पळे
वाट पळे, गरज आसल्यार वर्सांचीं वर्सां,
ताकतिकेन वा सवकसायेन
शेवण्याच्या येवपाचें नातें नाशिल्ल्यान
चित्राच्या यशाकडें.
जेन्ना शेवणें येतलें
... आयलें तर,
सामको थंडसाणेन राव.
शेवणें पांजऱ्यांत रिग म्हणसर वाट पळे.
आनी तें रिगलें म्हणटकीच,
पिशोलान दार ल्हवूच लावन घे
मागीर एक एक करून
सगळे वारांव रंगय
शेवण्याच्या पिसांक मात पसून हात लागचोना
हाची जतनाय घेत.
मागीर झाडाचें चित्र काड
ताच्यो सगळ्यांत सुंदर खांदयो वेंचून काडून
शेवण्या खातीर.
रंगय पांचवी पालय आनी वाऱ्याची ताजपाणय
सुर्याचो धुल्ल
आनी किडिंचो आवाज - गिमाळे हवेंतलो.
आनी मागीर शेवणें
गावपाचें मनार घे म्हणसर वाट पळे.
जर शेवण्यान गाणें म्हळें ना,
तर तें पाडें लक्षण
लक्षण - चित्र बाबत आशिल्ल्याचें.
पूण जर तें गायलें
तर तें शुभ लक्षण
खूण ती - तुवें चित्रार सय करपाची...
म्हणून मागीर सामकें अळंगसाणीन काड
शेवण्याचें एकाद्रें पीस
आनी बरय नांव तुजें कोनशाक चित्राच्या.

# हांव काटकसर करूंक शिकलों

फेलीस्यु कार्दोज

आग्वादाचे बंदखणींत पावपाचो आनी थंय सुमार साडे-तीन वर्सां रावपाचो म्हजेर प्रसंग आयलो तो एके वटेन म्हाका बऱ्याक पडलो. आग्वादाची बंदखण म्हजें विद्यापीठ जालें म्हळ्यार जाता. थंय हांव जायतें शिकूंक पावलों. हांव स्वावलंबी जावंक पावलों. मनशान आपलीं कामां आपणेंच करतच ताका केदें समाधान जाता हाचो अणभव म्हाका पयलीं बंदखणींत घेवंक मेळ्ळो. परिस्थितीक लागून हांव काटकसर करूंक शिकलों. जाता तितल्या थोड्या खर्चा भितर म्हज्यो गरजो भागोवपाचें तंत्र हांव शिकूंक पावलों. बंदखणींत सुरवातेच्या दिसांनी आमकां कागद, पुस्तक बी मेळनासलें. बंदखणिच्या अधिकाऱ्यांनी ह्या वस्तुंचेर बंदी घाल्ली. तेन्ना आमी थोड्यांनी पाटयो, काडयो हाडून तांचेर नागरी अक्षरां काडून, हिंदी बरोवन शिकपाक सुरू केलें. थोडे इंग्लीश शिकूंक लागले.

कांय दिसां उपरांत कागद, पुस्तकां आदी हाडपाक अधिकाऱ्यांनी सवलत दिली. गांधी म्हात्मो बंदखणींत आसतना कागदा बाबतींत कशी काटकसर करताले ती खबर हांवें एका पुस्तकांत वाचलली. वर्तमानपत्रांच्या देगांचेर लेगून ते बरयताले. बंदखणींतल्या आपल्या साबार इश्टांक ते चिटी बरोवन धाडटाले. पूण एकेकल्याक वेगवेगळी चीट बरोवन धाडिनार ज़े. एके व्हड फोलीर एका इश्टाक गरजेचें तितलेंच बरयताले; तेच फोलीर दुसरे सुवातेर दुसऱ्या इश्टाक आनीक कितें सांगून बरयताले. हे परीं एकेच फोलीर ते तरेकवार संदेश बरोवन बंदखणींतल्या सत्याग्रह्यांक धाडटाले. आतां आमच्या देसांत दर एके शाळेंत, दर एका घरांत कागदाचो इबाड जाता तो पळेल्यार म्हाका जाल्यार खूब वायट दिसता.

दर पंदरशेक एक पावटी धोबी बंदखणींत येतालो. आमचे भितरले थोडे जाण आपले कपडे त्या धोब्या कडेन धुवपाक दिताले. तो दर एका नगाक - ल्हान जावं व्हड - २ आणे (१२ पयशे) घेतालो. म्हजे कप[illegible] चड पावटी हांवच धुतालों. म्हजे कडेन चड कपडे नासले देखून हांव लुग[illegible]न चेड्ड्यो, बानयानां, सदरे करतालों. लुगट कसलें हाडटलों? पिठाच्यो रित्यो पोतयो. त्यो सवाय पडटाल्यो. एकेचें स ते आठ आणे (३७ ते ५० पयशे) मोल आसलें. तिची लांबी आनी रुंदी एकेक मिटर आसली. पोतयो एक-दोनदां घुडाक घालतकच धव्योफुल्ले जाताल्यो. चार पोतयो धोब्या कडेन धुवपाक दिल्यार दर एकेचे २ आणे ह्या हिसपान ८ आणे जाताले. हांव चार पोतयो हाडून त्यो उसायतालों आनी त्यो सुयेन शिंवन तांचें एक चादरशें करून घुडाक घालूंक दितालों. दोन आण्यां भितर चार पिशव्यांचें तें चादर म्हाका धुवन मेळटालें. उपरांत हांव ताची शिवण विसकुटायतालों आनी त्या कुडक्यांचीं गरज तीं आंगावलीं करतालों.

आग्वादांत पावसा दिसांनी बंदखणी लागीं आसलल्या दोंगरांतल्यान जायते मोटे बारीक झरे व्हावंक लागताले. ह्या झऱ्यांचें उदक आमी न्हाताले. पियेवपाक, रांदपाक, धुवपाक तेंच उदक रित्या पेत्रोली दब्यांनी भरून हाडून दवरताले. दर एकलो पावटीक उदकाचे दोदोन दबे हाडटालो. जे जाणटे आनी असकत भलायकेचे आसले ते थोडें उदक हाडटाले. गिमांत मात स्दकाक लागून जायते त्रास जाताले. दोंगरांतल्यान भायर सरतले ते झरे सुकताले आनी आमकां सुमार पांच मिणटांचे वाटेर आसलले एके खोल बांयचें उदक राजवान काडून हाडचें पडटालें. आब्रील-मायांत गरमी चड जाताली आनी आमकां फावो तितलें उदक न्हावंक मेळनासलें. थोड्याच उदकान न्हावन घेताले. एक-दोग जाण उदका बाबतींत नाडपणांय करताले. हेरांची नदर आड करून भितरलें थोडें उदक ते फारायताले. आनी आयदनांत भरून आपले खाटी पोंदा दवरताले. रातच्या वेळार सगले न्हिदताले तेन्ना ते गपचूप न्हाणयेंत वचून त्या उदकान आनीक एक पावटी घुसा करताले.

थोड्या उदका भितर धादोसपणी न्हावपाक हांवें एक मांडणी केली. सिगरेटिच्या गोलाकार दब्याच्या पोंदाक खिळ्यान बारीक बुराक मारले. हो दबो घीयेच्या व्हडल्याशा दब्या मदें बसयलो. त्या दिसांनी आग्वादांत जनेलांक हारशे बसोवपाचें काम थवय करताले. तांचे कडेन थोडी बेतूम मागून घेतली आनी चिलिंचो दबो बसयललो ताचे भोंवतणी ती लायली. चिलीं दब्या पंदाक ताचें धांपणें लायलें. गरजे पुरतो तयार केल्लो हो शावर हांव उदक भरून न्हाणये वयर हुमकळायतालों आनी धांपणें काडून पावसा सारकें उदक पडटालें तें आनंदान न्हातालों. तांबयांनी न्हावपाक बालदीभर उदक लागतालें ते सुवातेर आतां अर्दे बालदे भितर बरे तरेन न्हावंक जातालें. म्हज्या ह्या शावराचो उपेग दुसरेय करूंक लागले.

सुमार दोन वर्सां उपरांत सरकारान आग्वादाच्या खोलयांनी संडासां वयर 'शावर बालद्यो' बसयल्यो. तेन्ना हांवें तयार केल्लो तो शावर निवृत्त जालो.

दिवाळे आनी नातलां (क्रिस्त जयंती) समयार हांव म्हज्या इश्टांक कार्डां धाडटालों. कार्डां हांव विकतीं हाडिनासलों. हांवच तीं तयार करतालों. आमी आंगाक लावपाचे साबांव हाडटाले तांचे भितर कार्डा सारके दाट कागदाचे कुडके आसताले. तांचेर हांव जिनसांवार चित्रां काडटालों. चित्रां रंगोवपाक रंगीत लापशी, नीळ, हळदी पिठो, मेरकुरोक्रम, शाय हांचो उपेग करतालों. बंदखणिच्या जनेलांतल्यान न्हंय, दर्या, काब राजनिवास हो देखावो म्हाका सदां दिश्टी पडटालो. तो चितारपाक हांव बरोच तरबेज जाल्लों. चड पावटी ह्याच देखाव्याचीं कार्डां हांवें तयार केल्लीं.

एका वर्सा हांवें नातलांक गोठो केल्लो. गोठ्या लागीं सुमार देड वेंत लांबायेचो 'सांता क्लॉस' केल्लो. कॉमांदांत कॉश्त आफोंस आमचे खोलयेंत आयलो तेन्ना सांताक्लॉसाची मुर्ती पळोवन ती खंयच्यान हाडली काय म्हण म्हजे कडेन चवकशी करूंक लागलो. ती हांवें केल्या म्हण तो सत मानिना जालो. ती मुर्ती कशी केल्या तें हांवें ताका सांगलें. तो अजाप जालो आनी वचून आपले बायलेक ती दाखोवपाक घेवन आयलो. हांवें गंवा पिठाचें मनशाचें तोंड आनी हात केल्ले. उपरांत त्यो वस्तू हांवें तेलांत भाजलल्यो. तेन्ना 'येवथिमल' नांवाची गुलाबी रंगाची दांतांक लावपाक एक पेस्ट मेळटाली. ते पेस्टीन हात, तोंड हांवें रंगयलें. काळे शायेन दोळे केले. नंतर कापसान खाड, केंस केले आनी तांबडे क्रॅप फोलिचो सांता क्लॉसाचो झगो केलो. त्या वर्सा आमी सगल्यांनी नातलांचो उत्सव खुशालकायेन मनयलल्लो.

* * *

# आंतरकथेंतल्या साहित्यमंथना विशीं

साहित्य नियाळ

प्रकाश वजरीकार

कोंकणी साहित्य संवसारांत आर्विल्ल्या काळांत कांय मोलादीक पुस्तकांची भर पडत आसा. वेगवेगळ्या विशयांचो व्यासंग आशिल्ले, तांचेर प्रभुत्व आशिल्ले तशेच, सर्जनशीळ बरोवपी आपआपले रितीन कोंकणी साहित्यांत मोलादीक भर घालीत आसात.

रवीन्द्र केळेकार हांचें 'सर्जकाची आंतरकथा' हें पुस्तक हे नदरेंतल्यान म्हत्वाचें थारता. फाटलीं ४५ वर्सां अखंडपणान साहित्य साधना करपी एका बरोवप्याक - साहित्याच्या, जिविताच्या साधकाक घडिल्ले दिश्टावे आनी सत्यां हांचो वाचप्याक अणभव दिवपी हें पुस्तक जाग प्रकाशनान उजवाडाक हाडलां. बाकीबाब बोरकार आनी लक्ष्मणराव सरदेसाय हांकां हें पुस्तक ओंपलां. साहित्याक मनरिझवणेचो वावर न मानपी एका सर्जकाची ही आंतरकथा. ती तरेकवार निबंदांनी उकती जाता. भारताच्या आनी पर्यायान गोंयच्या राजकी, सामाजीक, सांस्कृतीक, साहित्यीक मळावयल्या यात्रिकाची कार्यपटीच ह्या पुस्तकाच्या रुपान आमचे मुखार उकती जाता. भारतीय भासां कडेन तशेंच येवरोपी भासां कडेन प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष संबंद आयिल्ल्या रवीन्द्र केळेकार हांणी साहित्य, साहित्यीक, साहित्य-विश्व, साहित्य-वेव्हार आनी समाज बांधिलकी सारके विशय मांडटना आपले खाशेले भाशे शैलीन हे निबंद वाचनीय केल्यात. हे निबंद वाचप्यांक - खास करून तांचे मदल्या बरोवप्यांक अंतर्मुख करतात.

बरोवप्याचेर भुरगेपणांत जाल्ले साहित्यीक संस्कार, तांचें घडिल्लें व्यक्तिमत्व, तांचे आदर्श, तांची जीण हांचें पडबिंब हांतल्या जायत्या निबंदांनी दिश्टी पडटा. रवीन्द्र केळेकार हांचे मदलो writer आनी fighterय हे निबंद आमकां दाखयतात. जिविताची उपासना करून हो अक्षरवेद तांणी निर्माण केला.

ह्या निबंद झेल्यांत ३६ निबंद आसपावल्यात. तातूंत रासवळपणान आयल्यात ते विशय अशे: साहित्य, साहित्यीक, साहित्य मुल्यां, साहित्याचें मुल्यमापन, ताचो तुळात्मक अभ्यास, साहित्य वेव्हार आनी हेर.

रासवळपणान आमी आमचे सोयी पासत जेन्ना ह्या निबंदांचे वांटे घालतात, तेन्ना आमकां पयल्या वांट्यांत बरोवप्याचें साहित्याचें प्रयोजन, बरोवप्याची साधना, अणभवसंपन्नताय हे सारकेले विशय दिसतात. साहित्य उजवाडाक हाडटना ताचो उपेग सत्यम् शिवम् सुंदरम् जीण जगपा खातीर जावचो असो सूर तांच्या निबंदांतल्यान दिसता. समृद्ध साहित्यीक जीण जगतलो जाल्यार अणभव समृद्ध आसपाक जाय, एक यात्रीक जावन खूब भोंवपाक जाय अशे तरेचें जीवनवादी तत्त्वगिन्यान बरोवपी मांडटा. तातुंतल्यान बीज तत्त्व वा निजाचें साहित्य उपरासता आनी अडेचें बरोवपाचो मोह वा संवंय नश्ट जाता अशे तरेचो विचार घेवंक मेळटा.

दुसऱ्या वांट्यांत बरोवप्यान कांय नामनेच्या साहित्यिकांचेर बरयलां. कांय कडेन विस्तारान तर कांय कडेन त्या त्या विशिश्ट बरोवप्याच्या कांय खाशेल्या आंगांचेर उजवाड घालपाचो यत्न केला. हे वरवीं त्या त्या बरोवप्याची पूरक अशी नवी म्हायती वाचप्याक मेळटा. हातूंत रवीन्द्रनाथ टागोर, विनोबा भावे, खलिल जिब्रान, उमाशंकर जोशी, काकासायब कालेलकर, जवाहरलाल नेहरू, फेर्नांदु पेस्सोअ, बाकीबाब बोरकार, चा. फ्रा. डिकोस्ता सारकेले बरोवपी आसपावतात. रवीन्द्रनाथ टागोरांचें व्यक्तिमत्व रंगयतना




रवीन्द्रनाथ साहित्यीक म्हणून व्हड आसलेच पूण ताचेय भायर ते एक चित्रकार, गीतकार, नाटककार, संगीतकार म्हूण कशे व्हड आसले तेंय तांणी सांगलां. तशेंच, भारताक पयलें नोबेल इनाम जोडून दिवपी तांचे 'गीतांजली' हे कलाकृती विशिंची मुल्यात्मक परखड प्रतिक्रिया तांणी दिल्या. रवीन्द्र संगिता फाटली निर्मणी प्रक्रिया बरोवप्यान बेस बरे रितीन सांगल्या. भोंवडेकार म्हणून रवीन्द्रनाथ कशी जीण जगले, भोंवडेंतल्यान तांणी कशी जीण घडयली ताचोय दिश्टावो हो निबंद आमकां करून दिता.

काकासायब कालेलकार हांचो सांगात रवीन्द्र केळेकार हांकां लाबला. तांचे जिणे विशीं आनी साहित्यीक वावरा विशीं रवीन्द्रबाबान विस्तृतपणान मांडपाचो यत्न केला. विनोबा भावे हे साहित्यीक म्हूण केदे ताकदिचे आशिल्ले, तांची साहित्य साधना केदी आशिल्ली, तांचें योगदान संवसाराक कितें मेळ्ळां हे विशीं रवीन्द्रबाब विस्तृतपणान बरयतात. ह्या वांट्यांतले कांय निबंद दीर्घ स्वरुपाचे जाल्ले आसात. जवाहरलाल नेहरू हांच्या नांवार ५०-६० पुस्तकां मेळटात. पूण तांच्या कांय गाजिल्ल्या पुस्तकांचेर खास टिपणी करून रवीन्द्रबाब आमकां जवाहरलाल नेहरूंचो सांगात घडयतात. गुजरातींतले उमाशंकर जोशी हांचोय सांगात बरोवप्याक मेळ्ळा. पूण एक साहित्य-सांगाती म्हूण उमाशंकर जोशी हांचें वेगळेपण बरोवप्यान आपणाल्या निबंदांत दाखोवपाचो यत्न केला. अरबी साहित्यीक खलील जिब्रान हांची आयज संवसारभर नामना आसा. तांचें चरित्र मांडटना तांचे जिणेंतल्यो बारीक बारीक गजाली सांगून ह्या म्हान साहित्यिकाची प्रतिमा वाचप्या मुखार उबी केल्या. हेर भासांतल्या बरोवप्यांचें साहित्यविश्व कोंकणींत मांडटना कोंकणीक एक देणें रवीन्द्रबाबान दिलां - ह्या सगळ्या व्हड साहित्यिकांची आमकां लागशिल्ल्यान एके तरेची वळख करून दिल्या.

साहित्याच्या मळार घडिल्ल्या बऱ्यावायट घडणुकांची संवादी तांणी कांय निबंदांनी उकती केल्ली आसा. देखीक, 'साहित्याच्या मळावेली शिंदळकी', 'मराठींत भावर्णींचेर कित्याक बरोवचें पडटा' सारकेले निबंद. तशेंच 'मनशान स्वनामधन्य आसचें', 'नोबेल इनाम' हे सारकेले निबंद वाचतल्याक चालंत सांस्कृतीक, प्रशासकी आनी साहित्यीक वेव्हाराचें मोटवेंपण दाखयतात. हे निबंद सर्जनशील वाचप्याक बरेच अस्वस्थ करतात. डिग्र्यो, पदव्यो, मान-सन्मान हांचें राजकारण वा अवमूल्यन असल्या निबंदांतल्यान दाखोवन

बरोवप्यान आमचे मुखार नवे प्रस्न उबे केल्यात. तांच्यो कृतीशील जापो सोदपाचो जण एकल्यान यत्न करपाक जाय. 'फुकट गेल्लें एक बरें मराठी पुस्तक' ह्या माथाळ्या खाला गोंयचे स्वातंत्र्यसैनीक आनी पयले सभापती पां.पुं. शिरोडकार हांच्या 'आठवणी: माझ्या काळ्या निळ्या कारावासाच्या' ह्या मराठी पुस्तका विशीं आपले विचार मांडटना रवीन्द्रबाब म्हणटात, अणभवसमृद्ध अशें हें बरें पुस्तक कोंकणींत बरयल्लें जाल्यार ताचें अदीक बरें स्वागत जावपाचें. साहित्याचो समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान केल्लो विधायक विचार रवीन्द्रबाबांच्या ह्या पुस्तकांत आयला. 'एक विशाल नवलकथा' ह्या लेखांत ते War and Peace हे तॉलस्तॉयचे कादंबरिची ते आस्वादक समीक्षा करतात. वेद, उपनिषदां, महाभारत, रामायण, कुराण, बायबल सारकेल्या म्हाग्रंथांचो प्रभाव बरोवप्याचेर पडला. विवेकानंद, गांधी लेखकान पचयला. 'सभी धर्म अच्छे हैं, सभी धर्म सच्चे हैं, मगर सभी धर्म कच्चे हैं' ह्या तत्त्वगिन्यानान रवीन्द्रबाबांची नदर घडयल्या.

ह्या निबंदझेल्यांत कांय इतिहासीक सत्यां, तात्त्विक मुल्यां हांचो दिश्टावो घडटा. गिन्यान, तत्त्वगिन्यान आनी कला ह्या तीन मानवी मुल्यांचो विचार करपी हो निबंद झेलो. जे जे व्यक्तिचो बरोवप्याक प्रत्यक्ष सांगात मेळ्ळा ते ते व्यक्तिचे जिणेंतलीं मर्मस्थळां उकतेपणान मांडपाचो एक नवो प्रयोग. शैलिचे नदरेनूय तो ओडलायणो हातूंत दुबाव ना.

रवीन्द्र केळेकार हांची साहित्यीक, सांस्कृतीक आनी चळवळिच्या रुपान कशी वाड जायत गेल्या ताची सुलूस हो निबंद झेलो करून दिता इतलेंच न्हय, तर एके परीन हो साहित्याचो इतिहासूय. रवीन्द्र केळेकार ही एक गवाय. गांधीवादी तत्त्वगिन्यान आपणायले उपरांत जिणेचे संदर्भ आनी संबंद कशे विस्तारत वतात, मनीस कसो घडत वता ताचीय सुलूस हो निबंद झेलो करून दिता. ह्या निबंद झेल्यांत बालसाहित्याची निर्मणी, गरज ह्या संबंदान विचार मांडल्यात, तशेच पत्रकारिते संबंदान परखड विचार मांडून पत्रकार हो दिका दाखोवपी आसपाक जाय, प्रबोधनाचें, ध्येयवादाचें मिशन पुराय करपाक पत्रकारिता केदो वावर करूंक शकता तें दाखयलां.

पुस्तकां उजवाडावप, विकप हो एक वेव्हार. हो साहित्यीक वेव्हार मुखार व्हरतना आमी कशे आनी खंय प्रभावी जावंक जाय हाचोय अप्रत्यक्ष रितीन ते कानमंत्र दितात. साहित्याची रूच लायतलो जाल्यार आमी आमचे मर्दी बदल घडोवन हाडपाक जाय अशें ते सांगतात.

पुराय निबंद झेलो हें एक विचार मंथन. वांगडाच तो मनशा मर्दी आत्मसत्याचो, स्वाभिमानाचो दिशटावो घडोवन हाडून How many kingdoms know us notची अस्वस्थताय निर्माण करता आनी आमचे मदले आत्मसंतुश्टतायेक आनी अल्पसंतुश्टतायेक भायर मारपाची शक्त दिता अशें म्हणचें पडटा.

**सर्जकाची आंतरकथा**
**रवीन्द्र केळेकार**
**जाग प्रकाशन, २०००**
**पानां: १८३; मोल: ९० रू.**

## पोंच

**सोद Konkani Research Bulletin : 1** (Nov. 2000)
तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केंद्र, आल्त पर्वरी, गोंय.

# घटक राज्याचीं १४ फळादीक वर्सां

## आपल्या स्वताच्या पांयांचेर उबे रावपाचो गडगंज आदार

गोंयचो एका समृद्ध आनी बुद्धिमान राज्यांत कायाकल्प

घडोवन हाडपाची दूरदृश्टी आशिल्ले

# श्री. मनोहर पर्रीकार

हांच्या रुपान गोंयाक कार्यक्षम मुख्यमंत्री लाबल्यात हें सुदैव

## मुख्यमंत्रीपदाच्या सात म्हयन्यांच्या काळांत श्री. मनोहर पर्रीकार हांणी केल्लीं लोका उपेगाचीं कामां

- ☐ राज्याची अर्थीक स्थिती गडगंज केली.
- ☐ भौशीक जीण नितळसाणेखातीर प्रयत्न.
- ☐ मुक्ती उपरांतच्या काळांतली सगळ्यांत शांत कायदो आनी सुवेवस्था, गरजेच्या त्या परिणामांखातीर पोलीस दळाक घटाय.
- ☐ सामुहीक गुन्यांवकारी आड मोट्या नेटान मोहीम आनी मोट्या प्रमाणांत बेकायदेशीर हत्यारां जप्त.
- ☐ पर्यटनाकडेन जोडिल्ले अर्थवेवस्थेक चालना दिवपाखातीर पर्यटन क्षेत्राकडेन चड लक्ष.
- ☐ येरादारींत पुरायेन सुदारणा करपाखातीर मुक्ती उपरांत पयले खेपे मोट्या प्रमाणांत राष्ट्रीय म्हामार्ग आनी राज्य रस्त्यांचें रुंदीकरण आनी दुरुस्ती. १५० कि.मी. परस चड लांबायेच्या रस्त्यांचें हॉटमिक्स.
- ☐ गरिबांखातीर नळाचीं फुकट कनेक्शनां. नितळ पर्यावरणा खातीर सुलभ शौचालयां.
- ☐ तरणाट्यांखातीर रोजगारपूर्व प्रशिक्षण येवजणेचो आरंब.
- ☐ तरणाट्यांक आपरोजगार सुरू करपाखातीर सुरू केल्ल्या दीनदयाळ रोजगार येवजणेक खूब बरो प्रतिसाद.
- ☐ सरकारी खातीं आनी माध्यमिक शाळांनी संगणकांचो वापर. मोरजी वसणूक उबारतले.
- ☐ ल्हान पिरायेंतच संगीत शिकपाक प्रोत्साहन दिवपाखातीर संगीत शाळा सुरू करतले.
- ☐ भुरग्यांच्या पर्जळींत फुडारा खातीर खास बालविकास येवजण.
- ☐ आपरोजगाराचे संदी खातीर मुख्यमंत्री रोजगार येवजणेचो आरंब.
- ☐ नगरपालिका वाठारांनी नितळसाण मोहीम.
- ☐ उद्देगीक धोरण रोखडेंच जाहीर करतले.
- ☐ घरबांदणी येवजणेक प्रोत्साहन. सरकारी कर्मचाऱ्यांनी स्वताचीं घरां बांदचीं म्हूण प्रोत्साहन.
- ☐ दळदीर रेशेखालच्या लोकांक अल्पदरांत अन्नधान्याची पुरवण करपाखातीर अंत्योदय येवजण.

## प्रगतीच्या रथान गती घेतल्या




गोंय सरकाराच्या

म्हायती आनी प्रसिद्धी खात्या वतीन उजवाडायल्या